# कुळागर

एप्रिल १९८५

वर्स : सातवें

अंक : ४

ह्या अंकाचे मोल : ३ रुपया

वर्सुकी पटी : २५ रुपया

संपादक :

प्रकाश थळी

नारायण वादोळकार

जायरात विभाग प्रमुख :

अनिल पै

छापणावळ :

एस. जे. हुंद्रे

रवि मुद्रणालय, कडोलकर गल्ली,

बेळगांव. फोन : २३०७९

छापपी आनी उजवाडावपी :

चंद्रकांत केणी

कुळागर प्रकाशन,

पो. बॉ. नं. ७८

मडगांव–गोंय–४०३६०१


## मांडावळ

संपादकीय—

# शणै गोंयबाबांचो उगडास

अविल्ल्या कोंकणी साहित्याची बुन्याद जाणी घाली त्या शणै गोंयबाब म्हळचार वामनबाब रघुनाथराव वर्दे वालावलीकार हांची ह्या म्हयन्याच्या ९ तारखेक ३९ वी पुण्यतीथ येता. त्या निमित्त्यान कोंकणीच्या ह्या भीष्माचार्याचो आमी भौय कृतज्ञतायेन उगडास काडटात आनी तांच्या उगडासाक नम्रतायेन नमन करतात.

शणै गोंयबाब हाणीं फकत कोंकणी भाशेचेरच न्हय तर कोंकणी भुंयेचेर आनी त्या भुयेंतल्या मनशांचेर, झाडा-पेडांचेर, सवण्यां–सावदांचेर उपाट मोग केलो आनी वैदिक कुळयेंत जल्म घेतिल्ले आवयभाशेचें पाठबळ आसतना आनी खंयच्याय कोंकणी मनशाची छाती अभिमानान फुलून येवची असो पुरशार्थी इतिहास आसतनाय कोंकणी मनीस हो दुसऱ्याच्या ताटापोंदचें माजर जावन आपलें स्वत्व वगडावन लाचारीची जीण जगता हें पळोवन तांकां खंत भोगली आनी ताणीं कोंकणी समाजाक जागोवपाचें युगकार्य हातांत घेतलें. कोंकणी भाशेचो ताणीं अभ्यास केलो आनी तिजी समृद्ध तांक आपले लिखणेंतल्यान लोकांक दाखोवन दिली. कोंकणीची निंदा करतल्या लोकांक जाप दिवपा-खातीर ताणी इतिहास आनी भाशाशास्त्र शिकून घेतलें आनी दुस्वाशांचे सगळे मुद्दे शास्त्रशुद्ध पद्धतीन खोडून काडले. कथा–कविताच न्हय तर तत्वगिन्यान, राजकारण,

धर्मकारण, अध्यात्म, विज्ञान ह्या सगळ्या म
उतरावळ कोंकणी भाशेंत आसा आनी ते विशय सों
कोंकणीतल्यान बरोवंक येतात हें दाखोवन दिवप
ताणीं साबार ग्रंथय बरयले.

कोंकणी भास ही तांकां अडेचे बडायेखातीर
आसली. जाल्यार कोंकणी वरवींच सगळ्या स
उदरगत जांव येता आनी गावड्याक लेगीत पं
येता हाजो साक्षात्कार जाल्याउप्रांतच ताणी को
सेवा केली. कोंकणी मनीस आज खांकनवाळ
आसलो जाल्यारय ताजे पूर्वज पुरुशार्थी आसले.
समाजांत तो पुरशार्थ परथून जागयतालो
आमी कोंकणे बाबत कुळां न्हयत हाजी तांकां जा
करून दिवची पडटली आनी आवयचे मांडयेर बसू
माथें उबारून संवसाराकडेन पळयले बगर त
पावचें ना अशें ते म्हणटाले.

आज शणै गोंयबाबांचें सपन खूबशें साकार
पुण तांचो संदेश अजून काळबाह्य जावंक ना.
उगडास करतना तांची एक कथा आमी ह्या
उजवाडायतात आनी ती कथा कोंकणी भाशेच्या
नव्या बरप्यांक साक्षात्कार करून दितली अशी
बाळगितात.

कृ

## म्हजी बा खैं गेली ?'

— शणै गोंयबाब

घांतले देवतेचे पंचमीन बाबुल्याक पांच वर्सां भर
वर्स लागिल्ले. तो इल्लोसो भुरगो खरो; पणून मोटो
अवजाळी. मोटो आडांगी. तो निकतोच सटकुळळोल्लो
या धूमशेणांनीं आनी धुडबुसांनीं सगळें घर माथ्यार
शणैल्या घरांत जायत्या काळान, ना ना म्हणून कान–दोळे
वणी-जोगणी करून, सडचार सुंट फुलता म्हण्टात ते
एकलेंच चल्यामनशाचें भुरगें जाल्लें. नातू जाला
खबर वैजिणीन पैलींवैलीच शणैच्या कानार घालून
गलें तेन्ना तो कितलोसो भुरकटलो आनी मुरगुटलो
करुन आपल्या आंगावैलें नवेंताल अष्टीदेगेचें पुडवें
घे आल्विस ' म्हणून वैजिणीच्या आंगार उडैलें आनी
तलेचो कुडको कसोसो सणसणीत बरो सुन्नो काडून
ार दवल्लो खैं. नातवाचे खुशालेन ताणें फार–पेट
क लायलो आनी बाजारभर साकर वांटली. वाजती
र मोटे नामनेची जाली. घुमटां, म्हादळीं आनी समेळ
रात जो तडाक उठलो तो सांगून उपकारना. झळकें
म्हणून राशींनी ! नातू जाला म्हणून शापशणै आनी
संवसारांत नासलीं. बाबुल्याफुडें तांकां खाण–जेवण
नासलें. आड–वर बाबुलो, बाबुलो. बाबुल्याक कितें
ताका हे घोंकणेफुडें तांकां दुसरें कसलेंच काम येवजनासलें.
न्नाय बाबुल्याक घेवन कुळारा गेली जाल्यार, आपौण्यार
ाडून, तिका एकफावट घरा हाडीसर तांकां थार
.

ल्याक सवें वर्स लागूंक, होनीबायक अनर्थाचें वायट
चे म्हणणेभाशेन तिका वायदमन जालें खैं; आनी
भायर पडली बुद्द आइल्ल्या भुरग्यांची आवै सट
म्हळचार केदें व्हडलें अरिष्ट ! अपुर्वायेंत वाडिल्ल्या
ल्याचेर तें कोंसळ्ळें तेन्ना तो सामकोच बावडो जालो.
जिल्ली. ताची हडवगां उल्लीं. ताचें अवजाळीपण,
ीपण, ताचीं धुमशेणां, ताचीं धुडबुसां खैंचे खैं नाच
तार पिरायेच्या, पिकिल्ल्या मेंदुच्या म्हातारखंडाभाशेन
कष्टी जावन येवजणेंत पडलो.

आवै वायटांत पडून मादान जावन कितेंचें कितें बडबडूंक
लागली तेन्ना, बाबुलो एकाद्रो भियेवन आंग काडीत म्हणून, आजो
आनी आजी ताका तिचे कुडिच्या दाराकडेन वचूंक दिना जालीं.
तरी आसताना, केन्नाच दोळचार हात काडून, तो थैं वचून
' बा, बा ' म्हणून तिका ल्हवूच उलो मारतालो. अखेरेक एकदीस
म्हय्याने रातीर ती भायर पडली. त्या वेळार, बाबुलो आजयेच्या
हांतरुणार हुस्क्यामेकळो सुस्त न्हिदिल्लो. तो बोवाळांत आनी
करांदायेंत जागो जायत म्हणून, आजयेन ताका बेगोबेग थैंसून
अळंग उखलून, दुसरे एके कुडींत न्हिदेलो आनी सकाळ जावन
घरांतलें प्रेत भायर काडीसर, ताका तांतूंतली कसलीच सुनशा
लागूंक दिली ना. होनीबायसारकी गुणेस्त सूनबाय होगडावली
म्हणून मांवा–मांयचे दोळे भौनभौन दुखांनी भरून येताले. तरी
आसताना, बाबुल्याक आवैची खबर कळत म्हणून, तीं आपलीं
दुखां भितल्लेभितर दांबून धरतालीं. आवैचे कुडीलागसार ताणें वच्चें
न्हय म्हणून, आजयेन ताका कितलोसो थातारून धल्लो; परंत
ल्हवच तिची नदर चुकौन तो थैं गेलो आनी पळेता जाल्यार
भितर ताची बा ना. तिचें हांतरूण ना. पांगरूण ना. कांय ना
कांय ना. कूड सामकी खांवक आयली. ताणें काचाबूल जावन'
आज्याक आनी आजयेक उलो मारुन विचाल्लें, ' म्हजी बा खैं
गेली ?' त्यावेळार रडचाचो हुंडको सांवरना जावन, उमाबायन
ताका पोटासरीं धरून रडत रडत म्हळें, ' म्हज्या राया, तुजी बा
रातीं देवागेर गेली रे सायबा !' बाबुल्याक ह्या उतरांचो अर्थ
समजना जालो. ताणें म्हळें, ' मामागेली दोळी येता तशी देवागेली
दोळी आइल्ली म्हाका दिसली ना. ती कित्यांत बसून गेली ?
आनी एकलीच कशी गेली ? म्हाका कसो व्हेलो ना ?' हीं उतरां
आयकनाफुडें, आज्या–आजयेचीं आनी घरांतल्या सगळचा मनशांचीं
काळजां चर्र जालीं. ताणीं केदो वेळ घुस्मटावन धरिल्लें रडें
एकदम भायर सुटलें आनी घरांत मोटो हुयेल जाली. तेन्ना
बाबुलो अदिकूच काचाबूल जालो. बाकिचीं रड्टात म्हणून तोय
रडूंक लागलो. आजयेन ताका पोटाकडेन गच्च आंवुळ्ळो आनी
म्हळें, ' थु–थु–थुमेकाल ! तशें म्हणचें न्हय रे म्हज्या राया !
म्हगेल्या घरादाराचो धणवणीत बरो लामणदिवो तो ! वडाच्या
रुखाभाशेन तूं जायतीं वर्सां वांच आनी तुजो वेलविस्तार जायतो

जांव !' बाबुलो समकोच गदळांत पडलो. तो भौन भौन आवैचे कुडीसरीं येरादारी घालून ती खैं पावली आनी तिचें किर्ते जालें म्हणपाचें येवजूंक लागलो. निमाणें बाराव्याक, ताचे आवैच्या नांवान सवाशणीक जेन्ना तिचें कापड, खण आनी तांबयो दिवक काडलो तेन्ना ताणें रडून मोटो आकान्त केलो. ताणें आजयेक विचाल्ले, 'आजये, म्हजी बा देवागेरसून पर्यून येतकूच तिका न्हेसूंक कापड नाका गे ? आनी उदक पियेंवक तांबयो नाका गे !' हीं उतरां आयकनाफुडें आजयेच्या, सवाशिणच्या आनी लागसार आशिल्ल्या सगळ्या मनशांच्या दोळ्यांतसून सळसळीत दुखां व्हांवलीं. बाबुल्याक ते अजाप जालें. बा चें नांव काडिल्ले कणकणीं घरची आनी भायली मनशां रडूंक लागतात तें किर्ते तेंच ताका समजना जालें. ताचीं बा ताका घेवन आजवेळा येताली तेन्ना कोणूच रडनासलें आनी आतां पळेल्यार, ती देवागेर गेल्या म्हणून सगळीं जाणां भौन भौन रडटात हाचो अर्थ ताका समजना जालो.

बारावो जाल्या उप्रांत, देवागेरसून बा येतली म्हणून बाबुल्यान जायती वाट पळेली. बाजारांत कोणायची दोळी दिश्टी पडल्यार, भितर आपली बाच बसून आयल्या म्हणपाच्या समजान तो बेगोबेग धांवत वचून चौकशी करतालो आनी निर्णल्ल्यावरी जावन घरा येतालो. निमाणें, सुमार तीन म्हैने फाटीं पट्टकूच, ताणें एकदीस आजयेक म्हळें, 'आजये, बाक हाडूंक तूं दोळी कित्याक धाडिना गे ? ती गेल्यार खूब दीस जाले.' आजयेन पदरान दोळे पुशीत पुशीत म्हळें, 'आसूं, भंगू रे ती खबर. तूं त्या माणकूवांगडा आखोमाखोनीं खेळूंक वच पळोंया.' आवै मरतपासून बाबुल्यान खेळाळ सोडिल्लो. ताका एकासारको बाचो ध्यास्त लागिल्लो. 'आजये, म्हाका खेळनशें दिसना गे. म्हाका बाक पळेशें' हाचेर उमाबायन वैतागून म्हळें, 'तर हांवूच पुता एक बसून तिका हाडूंक वचन. म्हाकाय दिसानदीस संवसारी आयल्या.' बाबुल्यान म्हळें, 'तूं गेल्यार म्हजंसरीं नाका गे वचूं. रागल्याक आनी सकल्याक दोळी दिव पुरो. ते बाक घेवन येतले.' हाचेर जाप किर्ते दिवची बायक येवजना जाली. ती बाबुल्याचें मन विसरायेर घाक परंत कित्याक उपकारना जालें. तो दोळी धाडचेखातीसूट तिचे फाटीक लागलो. निमाणें, तिणें मोटो धीर करून ताळ्यान म्हळें, 'बाबुल्या, देवागेर गेल्लीं मनशां म्हज्या राया !' बाबुल्यान म्हळें, 'तर तुवें म्हजे बाक्यैं वचूक दिली ? देवागेली दोळी कित्याक पर्यावली ना ? हें आदींच कळैल्लें जाल्यार, हांव तिगेले कुडिचें दार आवन भायर सरूंकूच दिवचां नासलों. हांव तिच्या पांयां मारतलों आसलों.' हीं उतरां आयकून, उमाबाय ल्हान भळाभळा रडूंक लागली. तेन्ना बाबल्यान तिका म्हळें, ' हांव उलैन त्या उतराक तू भौनभौन कित्याक गे रडू सारकें बरें सांग. बा केन्नाच येंवची ना ? म्हाका असल्या कसल्या कामाक ती देवागेर गेल्या ?' उमाबायक समज घालूंक येना जालो. तिणें दोळ्यांतलीं दुखां पुसून म्हळें,

ताआसूंत त्यो खबरी आतां.' म्हण्टकूच बाबुलो हटाक पेटून ागलो, 'हांव ना. हांव ना. म्हजी बा म्हाका जायच. आत्तां वा कुडींत वेतां आनी ताका विचारतां, 'म्हजी बा कित्याक आनी खैं दवल्ल्या ती. देवान्यांत आसा तोच मु गे तो '

बुलो थैंसून तरतरीत देवान्यासरी गेलो आनी जाण्टयांनीं देखीभाशेन, आदीं दोनूय पोले फोडून घेवन देवाक ताणें नमस्कार घालो. तितले म्हणसर, ताची आजी बेगोबेग ासून येवन, तो कितें करता तें पळौंक, देवाचे कुडी भायले- ी रावली. बाबुलो उठलो आनी नाखार बोट धरून, ाचावून देवाक तिडकीन म्हणूंक लागलो, 'देवा सायबा, तुवें म्हेल्यार खूब दीस जाले. तुवें तिका कित्याक व्हेली? का कळैनासताना कशी व्हेलो? म्हाका ती जाय म्हणून ासलो? तुका दुसरीं कोण मनशां मेळना जालीं? तूं आज का तिचे कुडींत ती न्हिदिल्ली थैं बऱ्यान हाडून दवर. , फाल्यां सकाळीं तुका दाखैतां कशें आसा तें हांव आज्याक तुजी पुजा करूंक नाका म्हणून. मागीर तुका पळे, न्हाण ना. फुलाची पाखळी ना. दिवो ना. वत ना. कातलेची . गोडाचो कुडको ना. साकरेची चिमटी ना. कांय ना. कांय उपाशीं वळवळांवक लायतलों.'

तु देवाकडेन झगड्टा तें पळौन उमाबायक खिणभर कौतुक नी रडूंकूय आयलें. ती ताका आपली जाग दाखैनासताना सून गेली. उप्रांत देवाक आपणें दटायलो म्हण्टकूच, बाक ाडून दवल्ल्याबगर तो रावचोच ना म्हणपाच्या समजान तो सगळो दीस उमेदीन घालैलो. रोखडीच रात जाली सुस्त बरो न्हिदलो. दुसरे दिसा, उजवाडनाफुडें बा दिष्टी हणपाचे आस्तेन, तो बेगोबेग कुडींत गेलो आनी पळेता थैं जितो मूस ना. तो निर्शेलो. ताका रागाचो किंवाटो तो तसोच आजयेसरीं वचून तिका म्हणूंक लागलो, 'आजये, सलो गे तो देव? ताका काल हावें कितलोसो भेष्टायलो पर्वाच ना. ताका इल्लीय लज आशिल्ली जाल्यार ताणें हांगा हाडून पावती करची न्हय? आतां कितें करचे गे? र आयकना म्हजी बा म्हाका जायच.' तो हात-पाय वडौन हजे! बा गे म्हजे!' म्हणून मोटचान होळम काडून रडूंक तेन्ना आजयेन ताका लागीं ओडून म्हळें, 'अशीं पिशेपणां यत रे म्हज्या गुण्या! देवागेर गेल्लीं मनशां पर्थून येनात शाण्या!' बाबुल्यान म्हळें, 'पणून देवान म्हाका तशें य? काल ताका हांव खूब उलैलों तेन्ना 'तुजी बा तुका ' अशें सडसडीत सांगूक ताका कितें जाल्लें? तो वोगी रावलो?' आजयेन म्हळें, 'मनशांकडेन देव उलैना रे या!' बाबुल्यान म्हळें, मनशांकडेन उलैना जाल्यार तो णासरीं व्हरता तरी कसल्या कामाक? म्हजे बाकडेनूय तर?' आजयेच्यान ताची समजाविशी करूं नज जाली. णें म्हळें, 'देव उलौं, नाजाल्यार ना उलौं. म्हजी बा म्हाका जायच. ती देवाक मेळची ना. ती म्हजेसरीं येना जाल्यार हांव तिचेसरीं वेतलों.' हे भाशेन, बाबुल्यान एकासारको आवैचो ध्यास धल्लो. तो जेविना जालो. खायना जालो. ताणें आंग सोडलें. सुकून सुकून ताचो सामको व्हीर जालो. तो हांतरुणाक लागलो. आनी अखेरेक, 'म्हजी बा! म्हजी बा!' म्हणून ताणें प्राण सोडलो.

बाबुल्याची ही खबर आयकून कोणा मनशाचें काळीज उचंबळचें ना? आनी ताच्या दोळ्यांतसून दुखांन्यो झरी व्हांवच्यो नात? 'ती म्हजेसरीं येना जाल्यार हांव तिचेसरीं वेतलों!' केद्या निग्रहाचीं उतरां हीं! बाबुल्यान तीं अखेरेक खरीं करून दाखैलीं अशेंच म्हणूंक जाय. 'यं यं वापि स्मरन्भावं त्यजत्यन्ते कलेवरम्। तं त मेवैति कौन्तेय सदा तद्भावभावितः' ह्या शिळोकांत, 'सदीं उठून तेच ते भावनेंत गुल्ल जावन, निमाणे तिच्याच उगडासान जो आपणालें कळिवर सोड्टा तो तिकाच वचून मेळटा.' अशें भगवंतान एक फावट अर्जुनाक सांगूक ना व्हय? ह्याच आधारार आमचो माणकुलो बाबुलो, आपली अपुर्बायेची बा जैं गेल्ली थैं वचून, खोसयेन तिचे हाण्डीर बसलो. हातूंत दुभाव ना.

– गोमंतोप निषत् (पयलें खंड)



# गजाली

— अना

सरसकट सगळ्या मुंबयकारांची अेक तक्रार आसा–गोंयकार पत्रांक जापो धाडिनात–अदींमदीं गोंयां रेगुलार वचपी सेल्समन म्हाका मेळटात ते सांगतात गोंयांत खपिल्ल्या म्हालाची वसुली करप खूब कठीण. वेपारी पैशे फारीक करतां म्हणटात त्या तारखांक फारीक करिनात. फावटी घालूंक लायतात. मुंबयसून गोंयांत येवन स्थायीक जाल्ले खुबशे दोतोर आनी आद्वोगाद सांगतात, वेवसाय बरो चल्ला. पैसो जाय तसो मेळना. लोक दुर्येसांच्यो तक्रारी, किजिलांच्यो केसी घेवन येतात. काम जालें कीं तांकां विसरतात (तांचो वैज मरता.) पैर मुंबय युनिव्हर्सिटींत गेल्ले कडेन अेकल्यान म्हळें, जे गोंयकार परिक्षक परिक्षेचे पेपर तपासतात ते पेपर परथें वेळार धाडिनात. कांयजाण ते केन्नाच धाडिनात. अेकाद्या विद्यार्थ्याची तक्रार आयिल्ली आसता, मार्क अुणे दिसतात... पेपर परथून पळेयात म्हुण. आनी तो पेपर गोंयच्या परिक्षकान तपासल्या अुपरांत युनिव्हर्सिटीक परथून आयिल्लो नासता. अशा वेळार युनिव्हर्सिटीन करप कितें ?

हार्लीं युनिव्हर्सिटींत अेका प्रोफसोराक ट्रंककॉल करून तपाशिल्ले पेपर परत धाड म्हुण कळयलें त्यावेळार ताणे ते धाडले. पुण ते धाडचे पयलीं फोनार खंय ताणे विचाल्लें, 'अंदूच्या पेपरांचीशी अितली ताकतीक कित्याक ? म्हजेकडेन फाटल्या दोन वर्सांचे पेपर धूळ खायत पडिल्ले आसात.'

## दत्ता नायकाल्यो कथा

मुंबयंतल्या अेका कोंकणीभक्ताक दत्ता नायकाल्यो कथा खूब आवडटात. ह्या कथांचेर त्या कोंकणीभक्तालें अुलोवप आयकताना म्हाका सिनेमाशौकीन तन्नाटच्यांचो अुगडास जाता. ते जशे अमक्या नटाचे केंस बरे, तमक्याचो आवाज बरो... अमके नटयचें नाक बरें, तमकेचें आनीक कितें बरें म्हणटात, तसो हो मनीस दत्ताबाबाल्या कथांतलीं मनशांचीं वर्णनां तोखेता. ताणें सांगल्या अुपरांत हांवें दत्ताबाबालो 'अेक आशिल्लो सोंसो' हो कथासंग्रह परथून अेक फावट वाचलो. आनी त्या मनशाचें म्हणणें पटलें. ह्या संग्रहांतलीं हीं कांय वर्णनां पळेयात : (हें वर्णन 'दिस सपन' हे कथेंतलें) 'शेजरा सिगार–पानपट्टी विकपी गाडयाचो मालक रगलो गाडेकार आपलें पोट दाव्या हातान सांसपीत अेके तामरेतीर बसला... ... अेका व्हडल्या बुयांवांचेर अेक तांबयो दवल्ल्यार दिसता तसो ताज्या देहाचो आनी तकलेचो आकार दिसता.'

'आनी गणपत पिटर ओटूल जालो.' हे कथेंतल्या तीन मनशांची– म्हाड्डू, दोतोर पणस आनी फिलोमेन डिसा– हांची हीं दत्ताबाबान काडिल्लीं चित्रां पळेयात : '.. म्हाड्डूचें तोंड बेब्या-सारखें दिस. ताका आंगभर केंस आशिल्लेच. शिवाय ताज्या कानांतसुनूय केंस भायर फुटिल्ले. म्हाड्डून आपल्या तकले दवरिल्लो...

म्हाड्डूच्या बार्बेआरीक तेंकून अुजव्यान दोतोर कोंसुलतोर आशिल्ली. दोतोर पणसाचें खरें नांव दोतोर दोतोर कामतीक कांय ना म्हळ्यार अैंशीअेक वर्सां आशिल्ल साक हातपांय फुटले, ताणें ज्युदी कलसांव घालें. ताजेर अेक दवल्लें जाल्यार पणस कसो दिसतलो, तसो दोतोर पणस दिस साच्या माथ्यार पिकिल्ल्या चिबडासारकें दिसपी मोठ्ठें आशिल्लें...

...आनी तितल्यांत ताका बोकडी दिसली. बोकडी म फिलेमेन डिसा. 'विमेन्स ओन' ह्या दुकानाची मालकीण. ल पांच फूट आठ अिंच आसुनूय ती लाम खोटांचे बूट घाल स फूट अुंच दिस. ती आपले ओंठ भडक लिपस्टिक लावन करी. भुंवयो काळयोच करी. शेतांत शेवण्याक भेस्टावक दव बावल्याभाशेन ती विद्रूप दिस. किडकिडीत फिलोमेनाचे वांयग्यासारखें आशिल्ले. नाक खूबूच लांब आशिल्लें त्याखातीं सामकी बोकडेभशेन दित.'

'येता ! पोतेकार येता !' हे कथेंत अेक सखाराम आसता. ताचें तोंड 'पुनवेच्या चंद्राभशेन वाटकुळें आशिल्लें सांगून दत्ताबाब मुखार 'वाटकुळें' म्हळ्यार कितें तें बारीक सांगता. 'वाटकुळें म्हळ्यार कितें ! नाकाचें पोंत हो सेंटर ताजेर कंपासाचें अेक टोंक दवल्लें. आनी तीन अिंच रेडि कंपासाचें दुसरें टोंक फिरयलें जाल्यार कशें वाटकुळें वर्तुळ येत नाक, कान, ओंठ आशिल्ल्या ६ अिंच व्यासाच्या वर्तुळ सखारामाचें तोंड दिस... '

हेच कथेंत अेक शंकर शेट आसता. 'ताजे पोले सामके गेल्ल्यान गालाक फोंडकुलां पडिल्लीं. याखातीर ताजें तो विज्राच्या गांवठी सोदा बाटलेभाशेन जाल्लें. शंकर शेटीन व्हडल्यो मिश्यो वाडैल्ल्यो. तांचीं टोंकां वळोवन आंकडे केल्ले खातीर ताजें सगळें तोंड मिश्यो वाडैल्लें हरण कशें दिसत तशें ताजें नाक गुठलासारखें आशिल्लें !

'अेक जाण्टो आनी अेक नेण्टो' हे कथेंतलो 'मसमीचो हो मनीस 'व्हिअेतनामच्या हो चि मिन्हसारखो' दिसतालो साच्या घरामुखार नानू पालकार रावतालो. हो मनीस ' फकत पुडवें न्हेसून अुगडचा आंगान आसतनासुद्धां... काळी घाली. आपल्या हातान आपलें बोडकें सांसपितालो. बुड्डी बुड्डितालो. केन्नाकेन्नाय चार चौगांत खाजोंवचें न्हय थय खाजै खाजैतालो.'

थच लागसार राचूशेटूय रावतालो. ताचें वर्णन करताना म्हणटा : 'राम्शेट आपल्या पडवेर तोंडान अेक नळी ांच भांगर तापौपाची ज्योत फुंकत रावतालो. अशें करतना लांब चोंचीन नुस्तें धरपी करकोच्यासारखो दिसतालो. क ताका करकोच्या शेट म्हण.'

## त पापड

बयंत धारावी लागसार अेक झोपडपट्टी आसा. ती तली सगल्यांत वायट झोपडपट्टी अशें म्हणटात. हे झोपड- ट्टीं अेका अिंग्लीश नेमाळचांत अेक लेख आयिल्लो. तिच्या बुरशेपणाचीं वर्णनां आयिल्लीं आनी त्याचबराबर लेकसले धंदे चलतात हाचीय माहिती दिल्ली. तांतली अेक खबर म्हळचार हे झोपडपट्टेंत लिज्जत पापड तयार जातात. लेख अुजवाडा आयल्या अुपरांत लिज्जत पापड तयार ी महिला गृह अुद्योग लिमिटेड हे संस्थेन तातूंत पापडांची ती दिल्या तो चुकीची अशें पत्र त्या नेमाळचाक कशें ा काय हाचें म्हाका अजाप जालें.

ुपरांत लिज्जत पापडाच्यो अिल्ल्योअिल्ल्यो खबरो कळूंक . आनी हे पापड कशे तयार जातात हें कळटकूच कांय ते पापड खावपाचें सोडून दिलें म्हणपाचेंय कळलें. नामा '–ह्या १९८४ च्या दिवाळीअंकांत निळू दामलेन डांची बारीकसाणेन खबर बरयल्या. ती वाचतकूच आनीकूय ण हे पापड खावपाचे सोडटले. हातूंत दुबाव ना. त्या यो कांय गजाली हांगा दितां.

१९५९ वर्सा गिरगांव–मुंबयंत लिज्जत पापड करपी संस्थेचो ालो. सात गुजराती ( कच्छी ) बायलानी आपले चाळीचे अेकठांय येवन पापड लाटले आनी ते अेका पसरकराक हांतली जयवंतीबेन पोपट ही जाणटेली बायल अजून हे वावुरता.

 संस्थेकडेन ६००० बायलांचो संबंध येता. तांतलींच कांय चो वेव्हार चलयतात. हो वेव्हार आतां वर्साक १० कोट पावल्या. २ कोट रुपयांचे पापड दर वर्सा भायल्या देशांनी हे संस्थेचे फांटे देशभर पातळ्ळचात.

ंस्थेचीं पॉंश ऑफिसां आसात आनी तिचेकडेन कितल्योशोच बी आसात. जाहिरातींचेर संस्था दरवर्सा २५ लाख रुपयां- करता. पापडांखरीज लोणचीं, फस्कां, अुजवाती, तेलां बी कता. अुडाचें पीठ करपी अेक गिरण, प्लास्टिकच्यो पिशव्यो क कारखानो आनी अेक छापखानो संस्था चलयता. ह्या यांतल्यान 'लिज्जत पत्रिका' अुजवाडा येता.

लज्जत पापडाचीं मुंबयंत जी केन्द्रां आसात तांचो वेव्हार शिक्षीत बायलां सांबाळटात. पापडाचें सामान विकतें घेतात जों पळेवपाची संस्थेकडेन यंत्रणा ना. पिठी तयार करपी मरमर मरतात. १७ किलो पिठये फाटल्यान तांकां रु. ळटात. दरअेक बायल दिसाक ७–८ रुपया जोडटा. अुपरांत ंक ३००–४०० बायलां येतात तांणी अेक किलो पिठी व्हरप, पापड करून हाडप– अेका किलो फाटल्यान तांकां रु. २–५० मेळटात. दरअेक बायल, घरचें काम सांबाळून, दिसाक १०–१५ रूपया जोडटा.

हे पापड करपी खुबशीं बायलां झोपडपट्टेंतलीं. तीं आपल्या खोंपींनी पापड लाट्टात, रस्त्यांचेर सुकत घालतात, घाणीच्या वाठारां ते सुकयल्ले पापड चार दिसांअुपरांत संस्थेक व्हरून दिवप आनी तांचे पैशे घेवप

पिठी करपी, पापड लाटपी बायलां मरसर वावुरतात. कारण तांची परिस्थिती खूब वायट आसता. संस्था चलोवपी बायलां मजा मारतात. पैशांचे वेव्हार चलोवपाखातीर संस्थेत कांय दादलेय वावुरतात. दरवर्सा लाखांनी रुपयांची अफरातफर संस्थेत जाता.

लिज्जतच्यो जाहिराती ( 'लिज्जत पापड ने कमाल कर दिया, सारी दुनिया में अपना नाम कर दिया' ) वाचल्यो, आयकल्यो की वेगळेंच रूप तुमचेमुखार येता. स्वच्छ आनी बऱ्या वातावरणांत हे पापड तयार जातात अशें तुमकां दिसता. हे पापड भायल्या देशांनी वेतात देखून ते बरे आसतले अशें कांयजाण धरून चलतात. प्रत्यक्ष भेट दिवन संस्थेचो सगलो कारभार पळेलो की मनीस निर्शेता. ही संस्था पत्रकारांक चार पावलां पैस दवरता. कोणय कितें छापल्यार तांकां भय घालता.

निळूचो लेख वाचल्याअुपरांत कांय तेंपान निळू मेळळो. ताका विचाल्लें, लिज्जत पापड कित्याक खावंचे न्हय हे तुवें लोकांक सांगले ही बरी गजाल. पुण दुसरे खंयचे पापड तांणी खावंचे तें तुवें कित्याक बरयलेंना ? निळून हांसत जाप दिली, लिज्जत पापड खाले म्हुण कांय ना. आमी खायनात ? भाजतकूच तांचो पात्सो अुरना.

## कोंकण भारती

यशवंत पालेकाराच्या कोंकण भारतीच्या सतराव्या (!) वर्साच्या दिवाळी अंकांत आदलेवरीच तागेले अेकटांकी बरप आसा. ह्या अंकांत पालेकारान 'मुळ्या-चेटणी,' 'चण्या-चेटणी,' 'टोमेटो-गोज्जू ' बी जिनस कशे करचे तें दिलां. मुद्दम करून पळयात ' ह्या मथळचाखाल पालेकरान अशें बरयलां : 'लिंबारोसात मीट वो साकर घालन जाय तितले दीस दवरात. तो वायट जायना.

बाकी पालेकाराचे लिखणेची खरी किमया पळोवंक मेळटा ती नटनटींच्या वर्णनांनी. देखीक श्रीदेवी हे नटयेविशीं बरयताना पालेकार म्हणटा : 'श्रीदेवीचें नांव लोकांक पिशें लायता. नाचताना तिची कंबर हालोवपाची तरा, XX हालोवपाचो रंग, ओडलायण्यो मांड्यो, पांयाची तुरा पळोवपाक लोकांच्यो रांगो लागतात... गरजे-पुरतें आंग धांपून घतिल्ले आसू वा आंगभर आंगलें आसू, तिच्या मोडण्यांत सेक्स दिसल्याबगर रावना. खिणाखिणाक आंग मोडत लोकांचे नदरेमुखार 'स्वप्नकामिनी ' जावन वावुरता.'

ह्या लेखांत मुखार श्रीदेवीचो पद्मिनी कोल्हापुरे, मिनाक्षी शेषाद्री, मूनमून सेन ह्या नटयांकडेन तुळना करताना पालेकार तांकां ' सोबीत सुंदर तुकतुकीत कांतीच्यो निकत्योच फुलपी नटयो ' बी म्हणटा.



# ये ऽऽऽ तू वचू नाका

— य्यंत तळा

दोन ल्हान मनाची तूटातूट, आनी तांची भेट. तांका ल्हान पणीच्यो सुका दूखाच्यो यादी करून दिवपी तांची मोवाळ उतरां, या म्हज्या गोश्टीत भल्ल्यांत.

श्रीमती मीराबाई कॉलेजीकडे भुरग्याची गर्दी वाढत आशील्ली. खूपशे नवे भुरगे आपले अॅडमीशन करपाक कॉलेजीत आईल्ले. बारावेचे तशेच एस वाय. टी वाय चे भुरगे तांची फकणा करपाक एकामेकाच्या खानार हात घालून दारात उभे आशील्ले.

सगळची चलयो मान सकयल घालून चलताली. भुरगे तांची फकणा मारीत हासताले. एकलो तर पोको कॅमेरा घेवन तांचे फ्लेश मारतालो.

नरेंद्र नीकतोच एस. एस. सी. पास करून आपले अॅडमीशन करपाक म्हणून आईल्लो. तो आपली तांबडी सायकल स्टॅंडार काडून कॉलेजीत भीतर सल्लो. तो सरळ ऑफीसात गेलो, एक फॉर्म घेवन भायर आयलो. ताणे फॉर्म भल्लो. ताका लीवींग, कॅरेक्टर सर्टीफीकेटी लायल्यो आणि तो फॉ घेवन ऑफीसाकडे गेलो.

' ये नरेंद्र ' ताका एके चलयेन उलो मारलो ताणे फाटी वळून पळेले पुण ताका वळखीचें कोणूच दिसलें ना. सगळे भुरगे ताका पळोन हासपाक लागले.

कोणे फकणा केल्या दिस्ता असो मनान विचार करून तो परत फीरुन वचपाक लागलो

' ये नरेंद्र राव रे ! ताका परत एके चलयेन उलो मारलो. तो थयच उबो रावलो. फाटी वळून पळो काय नाका अशे ताका दिसले, पुण पळोया तरी कोण ते अशे थारावन ताणे फाटी वळून पळेले.

एक सुंदर चली ताका उलो मारतालें. तें ताका पळोन हासले. नरेंद्र मास्सो आबूज आलो. कोण काय हें आणि आपल्याक कित्याक उलो मारता ? असो ताका प्रस्न पडटा.

ती चली नरेंद्रा मुखार येवन उबी रावता. हातान पुस्तका, धवीच सलवार, माथ्यार एक तांबडोच गूलाब, आगांत सुडसडीत. ती चली सगळचामधी उठून दिस्ताली.

सगळे भुरगे त्या चलयेची फकणा करपाक लागले. पूण ते सामके बीनधास्त आशील्ले. कोणे किदे म्हळा कोण जाणा. या तऱ्हेन.

' कोण तू, आनी म्हाका खंय वळखता ?' नरेंद्रान त्या चलयेक आबूज जावन विचाल्ले.

' नरेंद्र तू म्हाका वळखना ? ' त्या चलयेची आनी नजरेक नजर जाली. त्या चलयेच्या दोळ्यान एके तरे नरेंद्राक दिस्ताली. एकेतरेचो मोग ताजे दोळयान जणूकाय हे ताका खूप वर्सां पयली वळखता अशे ताका पुण नरेंद्राक तें कोण हे समजूंक नाशील्ले.

' हाव तुका अजून वळखूक ना ' नरेंद्रा ताका एकदम

' यो सांगता ' अशे म्हणून त्या चलयेन नरेंद्राक आपल्या हातान घेतलो आणि तें ताका रस्तल्यान पैस लागलें.

सगळे भुरगे हें पळोन मात्से आज जाले. सगळयांच्या मुखार हे चली ताजो हात धरून वरता किदे ? हे बरे धाडसी आसुक जाय अशे ते सगळे समजले.

नरेंद्राक किदे करचे कायच समज ना, तो मूक ताज्या बरोबर वचपाक लागलो. ती दोघा वचून एका पोंदा बसली.

' तुका याद ना नरेंद्र, तू म्हाका वळखूक ना ?' तांची खूप पोरनी वळख आशील्ल्या बरी लयताली, पुण ते कायच समज नाशील्ले.

' तुजो, गैरसमज बी जांवक ना मग तू कोण ?' ताका विचाल्ले.

' ल्हान आस्तना तू प्रितम म्हणून म्हाक वळखता त्या चलयेन ताका विचाल्ले.

' प्रितम ! हय, वळखतालो ' नरेंद्रान याद करीत म्हणले

' हावूच ते '

' प्रितम ! कितले वडले जाला गो ' नरेंद्राच्या एकेतरेचो आनंद निर्माण जालो ताका किदे करू किदे ना जाले.

प्रितम नरेंद्राची ल्हान पणीची मैत्रीणआशील्ली. ती एकाच वर्गात शिकताली, बरोबर खेळटाली

' प्रितम तूं म्हाका कशे वळखले ! नरेंद्रान ताका विचाल्ले.

' हाव काल तुमगेर गेल्ले. तू घरा नाशील्लो. '

' तू म्हाका वळखले कशे तर ? '

' हावे तुजो फोटो पळेल्लो '

ोटो म्हज, खंय पळेलो तुवें ' तो ताका एक-एक प्रस्न आशील्ले ' तुझे आईन म्हाका आलबम दाखयल्लो. '

[. हांव सर किदयाक रावूक ना तर ?'

ारे हर '

प्रितम तुवेंा फोटो पळेल्लो ? '

ायचो रे ' तें ताका अजापान विचारता.

ो, गो तो आणि म्हजो तुझ्या पापान काडील्लो तो. '

य पळयलो ' प्रितम सामके लजेले. कारण तो फोटो उघडोच ावून काडील्लो. ते उठले आणि वचपाक म्हूणून

चल्ले ग राव मगो ' नरेंद्रान ताजो हात धरीत म्हळे. ातली उतरां ताका मोवाळ दिसली. हींच उतरा ताणे तोणातलन केन्नातरी आयकल्याचो भास जालो. केन्ना काय आणे ? ताणे किदयाक म्हूणून म्हणील्ले काय ? खूबश न पडपाक लागले. ताका आपली ल्हान पणीची

ाच्या राकूशीक प्रितम आणि तांची फॅमीली बीराडाक प्रितम डशें नरेंद्रागेरूच आस्ताले. खेळटना, शाळेत दोघाय रोबर आस्ताली. तांची दोघायची मैत्री इतली ी कोणूती मोडूक शक नाशील्लो. प्रितम तांचे घरचे ा घरा भोवताले. नरेंद्राचे आवय-बापूय ताका आपलेंच ाालक.

तम तकआई उलो मारता मगो घरा वच ' नरेंद्राचे ामाक माले.

ा वच्चना, हांव नरू बरोबर तुमगेर जेवतले.'

े आसा( हांगाच जेव ' आईन ताका हासत हासत

द्राक आ प्रितमाक दन्पारची शाळा आशील्ली. नरेंद्राक जेवपा उठयताली. पुण नरेंद्र कसोच उठ नाशील्लो.

ेंद्र उठ रे, शाळेत वचपाचे जाले. प्रितम तुका रावलां. '

ाई ताा उठवपाचो प्रयत्न करताली. पुण नरेंद्र सामको ल्लो. नराच्या आईन प्रितमाक जेवपाक वाडले.

ाका ारूच वाढ आं. हांव जमनीर बसचे ना ' प्रितमान ाईक फर्मायिले आणि ते एक खूर्ची घेवन पाय वयर ेर .

े मेजा जेव तू ' तीणे ताका मेजार जेवपाक वाडले.

क येव्ना गे ? उठय मगे ताका '

जेव. ागीर जेवतलो तो. '

तम जेव आनी आपल्या घरा आपली पाटी-पुस्तक ेलें. न आपल्या हातूणार तळमळटालो. ताका खूप जोर ताजें आ खूप तापील्ले. ताजी आई ताज्या कुशीक वसून ा.

' आई नरेंद्र उठलो गे ' प्रितम आपली पाटी-पुस्तक घेवन धावत घरां आयले.

' ना, तू चल शाळेत. ताका जोर आयला ' नरेंद्राच्या आईन प्रितमाक सांगले. प्रितम नरेंद्रा म्हऱ्यात आयले. तो सामको जोरान कडकडटलो. ताजी आई ताका वखत दिवपाक ताका उठयताली. पुण तो कसोच उठ नाशील्लो.

' नरेंद्र उठ मरे, वखत घे ' प्रितमान नरेंद्राक सांगले. नरेंद्रान हळू-हळू दोळे उघडले.

' प्रितम तू शाळेत वता ?' नरेंद्रान ताका पिरंगत विचाल्लें.

' हय, तू बरो जातकूच यो मरे ' प्रितमान नरेंद्राक म्हळे आणि ते आपले जोते घालून भायर वचपाक लागले.

' ये प्रितम राव गो ' नरेंद्रान प्रितमाक उलो केलो.

प्रितम ताजी उतरां आयकून थंयच उबे रावले. ते परतले आनी नरेंद्र म्हऱ्यात येवन उबे रावलें.

नरेंद्राची आई हे सगळे पळोन अजाप जाली. दोन ल्हानं जीवांचो इतको मोग आसत अशें तीका दिसूंक नाशील्ले.

' तू शाळेत वचू नाका गो ' नरेंद्रान प्रितमाक सांगले.

' ते किदयाक रे, हांव आसा ते न्हय ' आईन ताका सांगले.

' शाळेत शीकयता ते ताका कळटले, म्हाका कळचें ना मागीर ते म्हाका चाळयतले ' दोन ल्हान ओंटातल्यान ही उतरां आयकून नरेंद्राच्या आईक हासूंक आयले.

' तुम्ही दोघाय जर गेलीं ना जाल्यार तुमका दोघाकूय कळचेंना. ते गेल्यार मागीर तुका सांगतले किदे शीकयला पळय ते ' आईन ताका समजायत सांगले.

' ना हाव शाळेत वच्चेना ' प्रितमान नरेंद्राक सांगले आनी ते पुस्तका दवरपाक घरा गेले.

अशे तऱ्हेन प्रितमाक ल्हान पणीच्यो यादी येवपाक लागल्यो ते नरेंद्राक त्या आम्या पोंदा ल्हान पणीच्यो एक-एक याद करून दिताले.

' ये प्रितम, आमका सगळी भुरगी पळयतात पळय ' नरेंद्रान कॉलेजीच्या दारात आशील्या भुरग्याक बोट दाखयत प्रितमाक सांगले.

' पळोनी तांका, तांचे पडला कोणाक ' प्रितम बीनधास्त सांगताले पुण नरेंद्राक दुसऱ्या भुरग्याची लज दिस्ताली.

' ये, या आमी, हो फॉर्म दिवन येता हाव ' नरेंद्र उठलो आनी आपलो फॉर्म दिवपाक ऑफीसात गेलो. नरेंद्राच्या फाटल्या आकृनेकडे प्रितम पळयत रावले. ताजी चाल, चलतना काडटा त्यो ॲक्शनी ताका खूब आवडल्यो.

नरेंद्र फॉर्म दिवन परत आयलो. प्रितम ताची वाट पळेत त्या आम्या पोंदा बशील्ले.

' ये प्रितम तुवें किदयाक ॲडमीशन केला ?' नरेंद्रान ताका येना फुडें विचाल्ले.

‘ ह्यावें कॉमर्सीक, तुवे किदयाक ?’

‘ ह्यावेंय बी. ’

‘ तशें जाल्यार बरेंच जालें ’

‘ ये तू आता खंय रावता ?’ नरेंद्रान प्रितमाक विचाल्लें.

‘ पैलीं आम्ही बॉम्बे आशील्लीं. आता परत आमच्या पापाची गोयात बदली जाल्या.’

‘ तुम्ही आता खंय रावतात ?’ नरेंद्रान ताका परत विचाल्लें.

‘ हांगा लागीच ’ प्रितमान नरेंद्राक सांगलें.

भुरगे आपले ॲडमीशन करून घरावताले. कॉलेजीकडली गर्दी कमी–कमी जाताली.

‘ ये या मगो ’

‘ चल या तर ’

प्रितम आणि नरेंद्र घरा वचपाक उठली. ‘ये आमगेर केन्ना येता?’ नरेंद्रान ताका विचाल्लें.

‘ योवया मरे ’ प्रितमान हासत सांगलें.

‘ वता मगो तू ’ नरेंद्रान ताका विचाल्लें आनी तो आपल्या सायकलीर बसून वचांपाक लागलो. मदींच ताणें ब्रेक मारलो.

‘ ये ह्याव तुका सायकलीर घरा पाव ?’

‘ नाका ह्याव चलत वता.’

० ० ०

कॉलेजीच्या दारात खूबश्यो चलयो उब्यो आशील्यो तातूत प्रितम उबें आशील्लें.

नरेंद्र आपलें स्टायलीन पुस्तका उजव्या हातान धरून आयलो. आज तो पळोपाक सामको म्होंवाळ दिस्तालो. ताणें घातील्लो धवोच शर्ट ताका उठून दिस्तालो.

तो कॉलेजीच्या दारात पावलो. सगळ्यो चलयो नरेंद्र येता तो पळोवन प्रितमाचेर नजर घुंवडायताली. प्रितमाचेर किदे प्रभाव पट्टा हें तीं सगळी पळेताली.

प्रितम मात्शें हासलें. नरेंद्र सगळ्यांक पळोन मात्सो आबुज जालो. तांच्या म्हऱ्यात पावतना ताजी पावलां मात्शीं अडखळूंक लागलीं. तो सरळ आपल्या वर्गात वचून बसलो.

बेल जाली. सगळे भुरगे लॉर्ड कर्झ एकलो–एकलो भीतर वचपाक लागले. प्रोफेसर लेगीत आयलो. वर्गाचें दार बंद केलें आनी प्लेट फॉर्मार येवन उबो रावलो. पन्नास– साठ भुरगे ताज्या दोळ्या मुखार बशील्ले.

ताणें फाट वळोन बोर्डार किदे तरी बरोवचें केलें, इतल्यान ताचेर बाणाचो शिवर जालो. सगळे भुरगे फाटी वळून पळोवपाक लागले.

प्रोफेसरान बारीक नजरेन फाटल्या बाकावेल्या भुरग्यांक पळेलें. आनी तो समजूंक जाय तें समजलो. ताणें भुरग्यांक बाणाचेर एक लेक्चर दिलें. आनी तो परत शिकवपाक लागलो.

बेल जाली आनी प्रोफेसर भायर गेलो. दुसरो मराठी पिरीयड मराठी शिकवपाक एक टिचर येवपाची आशील्ली.

भुरग्याले बाण वयर घुंवतल्या फेनाचेर बसपा
बाण फेनाचेर बसून वाऱ्यान चलयांचेर वचून पट्टाले
केसात भरताले आणि भुरगे मागीर ही ऽऽ ही ऽऽ करून ह

प्रितम फुडल्या बाकार बसून नरेंद्राचेर बारीक नज
नरेंद्र आशूण एक बरो भुरगो असो हावभाव आपल्या त
बशील्लो.

तो प्रितमा हुजीर तवनासपणा करी नाशील्लो
अशें तो ताका दाखौंक सोदतालो. भुरगे ताका बाण मा
करताले पुण तो फाटी फुड्या येतालो. आपणें बाण
रागार जाले जाल्यार अशें ताका दिस्तालें.

एक दिस भायर दाट पावस पट्टालो. भुरगे कुर
आपआपल्या क्लासीत बशील्ले. थोडे भुरगे आपल्यो
सत्री घेवन येताले. थोडे रेनकोट घालून येताले. बावज
भुरगे सामके भीजील्ले.

नरेंद्र एका हातान पुस्तका आनी एका ह
घेवन येतालो. ताजे सत्रेंत आनीक दोग तीग जाण रिगले
ते सामके ओले जाल्ले. नरेंद्र तांच्यामधीं आंशील्ल्या क
भीजूक नाशील्लो. भुरगे वरांडाचेर आयले आनी
काढून काकडूक लागले.

‘ नरेंद्र कितलो भीजला रे ?’ प्रितमान नरेंद्राक

‘ हे, खय गो. मात्सो भीजला ’ नरेंद्रान आपले
म्हळें.

‘ हो घे लेस आणि माथें पूस ’ नरेंद्रान प्रितमालें
आनी आपलें माथें पुसलें.

बाकीचीं भुरगीं तांका टक् टक् करून पळेतालीं.
आनी सगळे भुरगे सत्र्यो बंद करून वर्गात गेलीं.

मवले सुटयेत मास्सो पावस कमी जालो. भायर
वत झळकूक लागील्लें. पूण दमट आशील्लेंच.

सगळे भुरगे कॉलेजीच्या दारात उबें आशील्ले.
धावत जिमखान्यात कॅरम खेळपाक वताले.

‘ ये नरेंद्र आम्ही बॅटमीन्टन खेळूया ?’ प्रितम
नरेंद्राच्या कानार पडलो. तोच आवाज परत–परत भु
बारीक ताळ्यान आयकूक येवपाक लागलो त्या स
आनी प्रितम थयचें नाच जाल्लें.

पावसान भीजील्लो त्या दिसाच्यान नरेंद्राक जो
आठ दिस जाले तो कॉलेजीक येवंक नाशील्लो. प्रितम
वचून नरेंद्राची खबर घेत आशील्लें.

एक दिस नरेंद्र कॉलेजीक गेलो. क्लासी सुरु जा
क्लासीत गेलो ना, तो सरळ ऑफीसात गेलो.

प्रितमान क्लासीतल्यान नरेंद्राक आयल्लो पळे
वेळ जालो तो भीतर आयलो ना. तो कित्याक भीत
काय ? असो ताका प्रस्न पडला.

क्वर सोपले आनी प्रितम भायर आयले. नरेंद्र एक
वळी घेवन दारांत उबो आशील्लो.

दि रे नरेंद्र, क्लासात किदयाक येवक ना ? ' प्रितमान
नात वचून विचाल्ले.

हा कॉलेज सोडटा प्रितम.'

दि ! कॉलेज सोडटा, किदयाक ?' प्रितमाक एकदम धक्को

हा पोलीटेक्नीकाक ॲडमिशन मेळलां.' नरेंद्र ताका हासत
ालो. पुण ताज्या मनाक खूब दुख जाल्ले.

तू वचू नाका रे ' प्रितमाच्या दोळ्यान एकदम दुखा येता.
च्या हातातल्यान लीवींग सर्टिफिकेट एकदम ओडून

ाका वचचेच पट्टले प्रितम ! ' नरेंद्राच्या दोळ्यान एकदम
ा

पिनतले !' प्रितम सर्टिफिकेट पिनपाची ॲक्शन करता
ाजेकडे सर्टिफिकेट एकदम झोमून घेता.

वता मरे तू!' प्रितम आता सामकेच रडपाक लागिल्ले.
नाका प्रितम, हाव किदे पैस वचना. मनाक इतलेच
की आमी सांगातान रावूक शकलीना ! तो ताका समजा-
त्न करतालो.

जी याद दवर आं. '

, येता हांव. ' नरेंद्रान ताका सांगले आनी तो प्रितमा-
ैस वचपाक लागलो. प्रितम ताका एक टक पळयत
ा परत परत फाटी वळून पळयतालो.

माच्या काळजाक आता भालो तोपील्लो. कारण सदाच
ा ताज्या वांगडा खेळपी बागडपी नरेंद्र ताज्यापसून पैस

माक आपल्या ल्हानपणीची याद येवपाक लागली. जेन्ना
ाचो निरोप घेतील्लो तेन्ना ताज्या मनाक कितले दूख
ायज प्रितमाक कळोल्ले.

म आनी नरेंद्र दोगांय आपलो चौथेचो रिजल्ट घेवन धावत
ो.

प्रितम पैली आमगेर या. '
का पैली आमगेर या. '
ल तर.'

म आणि नरेंद्र प्रितमाच्या घरात वतात.

म्मी, आमी पास जालीं. ' प्रितमान आपल्या मम्मीक

स जालीं. ' प्रितमाली मम्मी एकदम खोशी जाता. 'चला
क पाया पडून येयात आणि सांगात की अशीच आमी
म्हणून ! मम्मी तांका सांगता. ती दोगांय देवा कूडीत
पाया पडून येतात.

' मम्मी हांव नरेंद्रागेर वता आं. '

' चल रोखडेच यो आं. आमका वचूक जाय ' मम्मी ताका सांगता.

' बरे ' प्रितम आणि नरेंद्र धावत घरा येता.

' आई आमी पास जाली ' नरेंद्रान भायरूच रावून आपले आवयक सांगले.

' पास जाली, बरे जाले. आनीक शिकतली मगो ?'

' हय '

' चलात पेडे घेवन येयात ' नरेंद्राची आई ताचेकडे पैशे दिता आनी ताका पेडे हाडपाक फर्मायता.

प्रितम आनी नरेंद्र धावत बाजारात पेडे हाडपाक वतात.

सांचे प्रितम नरेंद्रागेर येता. ताणे नवे कपडे घातील्ले. ताज्या हातान एक ल्हानशी पर्स आशील्ली. ते आपली ल्हानशी पर्स खाकेक मारून धावत येवन नरेंद्राच्या आई मुखार उबें रावता.

' खंय वता गो प्रितम ? ' नरेंद्र प्रितमाक विचारता.

' आमच्या डॅडीची बदली जाल्या. '

' मागीर तू सोडून वता ? ' नरेंद्र एकदम निराश जावन ताका विचारता.

' आमी बॉम्बे वता ' ते आपली ल्हानशी पर्स हालयत सांगता.

' ऐ प्रितम तू वचू नाका गो, तांका वचूनी. तू आमगेर राव

' ना हाव वतले म्हज्या डॅडी वांगडा ' प्रितम ताका लाडान सांगता.

नरेंद्राची आई हे सगळे कान भरून आयकताली. तांची ती म्होंवाळ उतरां तिच्या कानात घुमताली. ताचो एकामेकाचो मोग पळोन तीजे काळीज ओले जाले. बरोबर खेळपी, बागडपी दोन ल्हान जीव आयज पैस जाताले.

' बरे येता, तुमी बरीं करून. नरेंद्र तू बरो करून राव आं ' प्रितम आपूण एक आजोबाय कशी जावन उलयताले. नरेंद्राच्या आईच्या दोळ्यात आता दुखां येवंक लागील्ली.

' बरे करून आं बाय ' नरेंद्राच्या आईक एकदम रडूक आयले.

' बरे येता ' प्रितम टूणू–टूणू करून पावला मारीत चलपाक लागले, तशें नरेंद्राच्या काळजाक धक्के बसपाक लागले.

कॉलेजीच्या मदले सुटयेत भुरगे बोवाळ करीत भायर आयले, तेन्ना प्रितम एकदम भानार आयले.

आयज म्हाका नरेंद्र सोडून गेला तेन्ना म्हाका इतले दुःख जाले. जेन्ना हाव ताज्या पासून पैस जाल्ले तेन्नां ताका कितले दुःख जाल्ले काय ? अशे ताका अनेक प्रस्न येवजूक लागले.

□ □

# सपन

– विठ्ठल का. सा. आवर्दियकार, सावर्डें

अपेक्षेप्रमाणें धा वर्सांनी म्हजी बदली जाली खरी, पुण ती अटंग्या रानांत करमळच्या गवळयांवाडीवेले शाळेंत. अितलीं वर्सां ह्या ना त्या कारणाक लागून सुटका करून घेवपी हांव हे खेपे हत्बुद्ध जालो. मुकाटयान बदली मानून घेतली.

करमळच्या गवळयांवाडीवेली शाळा अितलेंच हांव जाणा आसलो. ती खंय किते कात, थंय वचप कशें ? किदें साधन, लोक-वस्ती कशी ? आनी येवन वचून करपा अितलें लागींय न्हंय तें. मागीर रावपा खावपाची व्यवस्था, म्हजी हांवेच लावपाची. तरी बरें अेक जीव सदाशीव जावन. आनी मागीर मनाचो निश्चेव करून अेकफावट शाळा आनी गांव तरी पळवन येवचे थारायलें.

कोणे तरी सांगले हांगासावन थेट धारबांदोडेच्या तिस्कार देंव. मागीर मोलें वते रस्त्यार तांबडी वाट दिसतली. ती वाट दाव्यान उजव्यान, उजव्यान दाव्यान मदींच नीट सुमार वर सव्वावर माडयत वच म्हणजे करमळेची गवळयांवाडी गावतली. वाटेची वर्णनाच आयकून म्हज्या पोटांत धस्स जालें पुण उपाय नासलो. अडला हरी खंय गाडवाचे पाय धरी, हे उतरावळीप्रमाण म्हाका गवळयांवाडीर वचूंकच जाय आसलें.

चलपाची संवय नाशिल्ल्यान म्हाका सवायवराची वाट माडवन अेकदांचो वाडयेर पावतां म्हळयार नाकापूरो जालें खरें पुण बेजारसो आयलो ना. जीव खर्शेलो खरो पुण मन व्हडलेशें निर्शेलेंना. भर दनपारचे वताकडार वाट चलून लेगीत झाडापेडांच्या सावलेंत कांय कळ्ळेंच ना.



वाट मळलेलीच. दोनीवशीं मर्दानी रूख, आनी वळीच्या अेंसपेंस फांकिल्ल्या खांदयानी वाटेर अेक लांब तयार जाल्लो, हळडुवी पांचवी पानांबोनेरां लावन व लग्ना सजयल्ल्या माटवांतल्यानच वता अशें दिसलें. थंड शितळ वारें मारताले. शेळावान आंग शिरशिरत झाडा-झाडां रूखा-रूखा मजगतीं सोडीनी खेळटालो ज धावतनाचो खरशेतलो आवाज येतालो. शेवणी शे झिलींनी चिर्विवताली. तांचे ते तरेतरेचे आवाज ज गायतालो जांवदे. गोंयची सैमीक गिरेस्तकाय पळवंक तुमी हेर परको वेळांनी, दर्यादिगेनी शेताभाटांनी धांवता दोंगरामळानी येवंक जाय. गोंयची सैमीक गिरेस्तकाय हां शारांत रावपी हांव म्हाका हो वाठार पयलेच भेटेक खुब नीजाचे संगीत आयकत करमळच्या गवळयांवाडीर के कळ्ळेंच ना.

ही गवळयांवाडी, तीन वशीन हडडें फुडें काडून उबे दोंगर. पायांकडेन कुचकुचीत रूखावळ. चौथेवशी पातळील्लें शेत. वाडयांत कांय न्ही म्हळयार वीसेक मांगरावरी खोपी. हांवे नाक धापलें. अुस्वास अन्नून धल भस्स करून वाऱ्या ल्हारार मारील्लो शेणमुताचो वा अस्वस्त करतालो. पुण घडयांत संवय जाली. म्हाका म्ह खंय दिसलीना हांव मातसो हुसकेलो.

म्हजो अदमास लागून अेका गोठयांतलें वासरूं हांबे पावली वाजली. दोन सुमार गवळ्या पोरां पाटापाटांच्यो घाल्लीं धावन म्हजवशीं आयली. पयलीं म्हऱ्यात येंवक पुण म्हजे हांसते मुख आनी गळया भोवतणचो बोटवो पळ किते ती काचवेत म्हऱ्यान आयली. ' कोण हवो पावन्या ? ' धीर करीत विचाल्लें. आनी हावे आक्त फाक्त सांगलो. म्हाका सीमेवेली शाळा दाखयली. आवयचो उलो आ धावलीं हांव शाळेवाटार तेळीत रावलो.

दनपार देवन आयिल्ली येतना बोटव्यांत घालून चपाती आनी भाजी खाली. पोटा भुक न्हिवली. वाटे उर ल्लें उदकाबाटलेंतलें उदक पिलों पुण तान भागली त्या पोरांनी व्हाळाची वाट दाखयल्ली. हांव बाटली भर व्हाळार पावलो. खळखळ व्हांवपी तो वझरो. पच्च प उदकाचे चार पोशे तोणार माल्ले ते वांगडाच येंवक लागि मरगळ व्हांवत गेलो. ताजें ताजें दिसलें. घटघटीत बरें उ तकली वयर काडपाक घुंगरांची पावली वाजली.

कोण खंय ? म्हजी उत्सुकताच जागी जाली. हांवे नदर माल्ली जाल्यार किदें अजाप पेलेवटे खडपार ओस्तोरी पांय उदकांत घालून नाचयता. सामके शेरवडा गोरेंपान आंग. तीचे हेवटेन ध्यानच ना. आतां तीणे ओ आनी तीच्या आंगस्तराच्या रूंद गळयांतल्यान हय न्हंय कवळी थना दिसली. तशी नदर चाळवली. शिरंत्रा शिरशि गरम जाले. आनी नकळत हांव तीचे सरीं वयळो.

जाग लागून ती सावरून बसली. मुखामळार थोडीशी
. तीणे अेक चोर नदर म्हजेर शेवटीली, तशी हांवें,
भिडेली. तशी ती पुना लजली. हांव थंयचे थंय जाम
घाम फुटलो. तीचे ते फुलते जुवानपण पळवन काळीज
वाळवले. दिसलें ह्या अेकांताक सांगात करूंक सर्गीच्या
फुडारची सपन सुंदरीच धाडुंक ना मूं ? हीचे लागी
र कितलें बरें जातले.

उलवं किदें नाका अशी गत जाली म्हजी. धीर करीत
वळख करून दिली आनी तीचे नांव विचारलें, तीणे मृदू
हळे ' मंजुळा.' सतारीची तार छेडची आनी अेक लयबद्
पडचो अशी तीची वाणी हांवे आयकली आनी पुराय
उलयता उलयतां वेळ कळळोच ना. आमचे बरेच उलवोप
पयलेच भेटेक फाटीफुडें पळयनास्तना मागणी घालून
णे मान्यताय दिली, फकत बापायाक विचारपाचे अटीर.
उटटा फुडल्या आयतारा ह्याच वेळार ह्याच थळार
श्वासन दिवन मंजुळा गेली.

पळय नशीबाच्यो गजाली. शाळा पळवंक आयलो आनी
ठळे. म्हज्या फुडारा जीणेच्यो गांठी हांगाच मारल्यात
समजून धादोस भरीत मनान हांव घरा परतलो. हांव
लसलेलो. मंजुळावीशी सपनेत सपनेत सप्तक सोपले केन्ना
ा. आयतार उदेलो. कबलात केल्लेप्रमाण करमळेच्या
ीर, त्या व्हाळाधडेर, त्या तळयार हांव मंजुळीची वाट
लों. मंजुळा म्हज्या सपनाची राजकुंवारी आतां येतली,
ली अजून आयलीच ना. सकाळचे टट्टीत मन आता बावंक
द खंयचे खंय व्हांवक लागली. दनपार देवून दीस खाला
लो. वाट पळवन पळवन दोळे थकले.

लो वेळमेरेन म्हन्यान त्यापयरच्या गवळचांपोरांवांगडा
उबो आशिल्लो, म्हज्या राज्याक खबरच ना.

य मास्तर कुनाची वाट बघत्यात ? ' ह्या ताच्या उतरांनी
तल्यान जागो जावचो असो जालो. हांवे ताका सगळें
नी त्या गवळचाली जाप आयकून शेळेलोंच.

सांगले, ' पेल्या वाटाराक आनी अेक वाडो आसा
कार भुतोबाब गांवकार.' ताची मंजुळा ही रूपवान
ंत रावन चार अक्षरां शिकिल्ली. म्हयन्याफाटीं सुटयेंत
ल्ली. पंदरशी फाटीं व्हाळादेगेर खेळटना त्या पेल्या
न मेली. म्हण्टात तीची शारांत सोयरीक जाल्ली. तीच
ी आत्यापयन्यान खुब जाणांक ह्या वाटारांक भासायता

आयकून म्हज्या आंगार कांटो फुल्लो. शिरंगातले
. घामान आंग चीप्प भिजले. जणू अेक सपन सोपले.

* ✿ *

# बावली

– नारायण

ताज्या त्या मंद मंद वाजत आयल्ल्या पायजणांचो गोड आवाज आजूय म्हज्या कानांत घुमता. ताजें तें मोडत मोडत चलत येवप आजूय म्हज्या दोळ्यांमुखार येता. ताजें तें गोड हांसप, हांसत हांसत गोड उलोवप आनी तें उलोवप आयकत हावें गुल्ल जावप सगळें सगळें येवजता. आनी दिसता ताज्या त्या पायजणांचो मंद मंद आवाज लागी लागीं येता.

किदें एक एक योगायोग आसता. योगायोगूच म्हणपाक जाय. ना जाल्यार ताका हांव तरी खंय पळेतलों आशिल्लों आनी तें तरी खंय म्हज्या जीणेंत येतलें आशिल्ले ? सुरेशाकूच आयली ती बुद्द. खरें म्हळचार हावें ताका कांयच म्हणूक नाशिल्लें. हांव सदचेच बशेन घरा वचपाक थंय बशीची वाट पळेत उबो रावल्लों कसो म्हणून कोण जाणा. अकस्मात तो म्हज्या मुखार केन्नाच येवन उबो रावलो.

‘ चल मरे प्रवीण आमगेर या ’ ताणें म्हळें

‘ आता आसूं रे, आनी केन्नाय येतां ’

‘ यो रे तूं, आजूच यो रे. फाल्याय तूं अशेंच म्हणटलो ’

‘ येतारे, येवया रे फाल्यां, अशें किदें ?’

‘ ना. आज तुका हांव मुद्दाम यो म्हणटां. आज म्हजो वाढदीस.’

‘ आरे आज तुजो वाढदीस ? म्हाका तुवें पयलीं सांगपाचें मरे. हांव तयारीन तरी येतलों आशिल्लो. म्हजे कपडेय बरे ना ’

‘ आनी कितले बरे जाय रे ? यो तूं. हे कपडे बरे पुरो. म्हाका तसो व्हंडल्या दबाज्यान वाढदीस मनवपाचो ना रे, सादोच. योच रे तूं.’

म्हाका ताका आनीक ना म्हणपाक जमलें ना. हांव तागेर वचपाक तयार जालों.

‘ राव हां मात्सो. हांव हे त्या शॉपार वचून येता. ’ तो थंयच रावलो. हांव शॉपार गेलों एक शर्टाचो पोलियेस्ट पीस विकतो घेतलो आनी सुरेशा म्हऱ्यान परतो आयलों.

‘ आरे हेतें किदें रे ?’

‘ आरे अशें किदें, तुज्या वाढदीसाक वतां, तुका प्रेजेंट दिंवक नाका ?’

‘ गरज शी नाशिल्ली. हेतें बरें न्हय. ’

‘ तें तुका लागना. तें बरें आसा. चल या. ’

सुरेश म्हजेच बरोबर बँकेत काम करतालो. बँकेत तीन चार वर्सां तरीं आमी बरोबर वावुरताले. सुरेश सभावान बरो. बँकेत कितलेशेच जाण आशिल्ले. पुण सुरेशूच म्हजो इश्ट जाल्लो. तो म्हाका केन्नां केन्नां घरा आफयतालो. पुण हांव कसलें ना कसलें तरी निमित्त सांगून वचूंक नाशिल्लों पुण आज मात वचचेंच पडिल्लें.

सुरेशाचें घर बरें सोबीत आशिल्लें. भायर ल्हानशीच बाग आशिल्ली. तांतून आबोलीं, गुलाब, शेवतीं, धालां बी कितल्याश्याच तरेचीं फुलझाडां आशिल्लीं. सुरेशान म्हाका ताज्या रूमांत बसयलो. रूमांत टिपॉयचेर केक आनी आपल, मोसंबी, द्राक्षांब भरिल्लें एक ताट आशिल्लें. पांच धा मिनटांनी सुरेश रूम आनी ताजे बरोबर पांच सात जाण येवन सोफार आनी बसले. ते सुरेशाचे शेजारीच आशिल्ले जांवक जाय. सुरेश तांचेकडेन वळख करून दिली. दारा कुशीक बायलां उबो आशिल्लो. सुरेशान केकार मेणवाती लायल्यो स्टायलीर मेणवाती पालोवन केक कापलो. भायर म ‘ हॅपी बर्थ डे टु यू ’ म्हणप जालें. आनी हावें सगळ्य सुरेशाक हात दिवन हावें हाडिल्लें प्रेजेंट दिलें. एकल्यान हात दिवन आपलींय प्रेजेंटां दिलीं. आनी मार सगळे प्रेजेंटां दिवन बसतकच दारा कुशीक उबी रा एकलीं येवपाक लागलीं. तांतून एक गोरें पिट्ट, पांचवी मॅचिंग ब्लावज घाल्लें चली आयलें. सुरेशाक कुकुम ला हातांत प्रेजेंट दिवन भीतर गेलें. मागीर सगळीं बा वतकच शेव चिवड्याच्यो प्लेटी घेवन तेंच गोरें पिट्ट

आयलें. ताणें म्हज्या म्हऱ्यान प्लेट दवरली. हांव ताका प ताजीय नदर म्हज्या नदरेक मेळ्ळी आनी खीणभर तें उरलें. मुदयाळे पिंगशे केंस, तांबडेच ओंठ, हांसमुख तों म्हजी भुरगेपणांतली बावली म्हज्या दोळ्या मुखार उ हय तेंच. सारकें तेंच बावलेचें तोंड तें ! मागीर तें परतें दोन चारदां तरीं येवन सगळ्यांक प्लेटी आनी गेले. दर फावटीं हांव ताका पळेतूच रावलों. हांव ता सगळें भान बिसरतालों. वाढदीसाचो प्रोग्राम जालो वचपाक भायर सरलों. सुरेशाक हात दिलो आनी घ देंवन आंगणांतल्यान आड्याभायर वतना वळून घर जाल्यार तें चलीय उबें आशिल्लें. तें म्हजेकडे पळोवन हय तेंच. बावलेचें तोंड तें.

दोन दीस गेले. हांव लायब्ररींत वाचीत बशिल्लों कदेल रिकामें आशिल्लें. इतल्यान कदेल ओड्डिल्या जालो आनी ताजेर एक चली बसलें. पुस्तकांतली नदर पळेत जाल्यार तेंच तें सुरेशागेर पळेल्लें चली.

‘ वळखता ?’ ताणें म्हळें.

‘ ब SS रो, देदे बेगीन कोण विसरता ?’ हावें म्हळ

‘ किदें खबर ?’ ताणें म्हळें.

‘ बरी.’

‘ वाचनाची आवड दिसता तुमकां.’

ग' हावें म्हळें.

स्काय खूब आवड. पुण लायब्ररी आमकां पयस पडटा.

बी वचनात, वाऱ्याक ?'

तर, केन्नाय सांजचो वतां.'

लल्यांक शे ?'

साडे सुंक.'

ाय, इतले उसरां ?'

फसूच सुटटा आमचें पांचांक, मागीर सगळो उशीरूच

गी आमच्या सुरेशाचे इश्ट दिसतां ?'

बरोबरूच काम करतात म्हय आमी ?'

सांगता तो केन्नाय तुमची खबर घरा तुमी सभावान

हांव ताजी भयण.'

किदें तुजें ? ' हावें विचारलें.

'

ोन मिनटां मुखावयलें खबरांपत्र ताणें वाचिल्ले बशेन

ाणें परत विचारलें. 'तुमी बीचार वतात म्हणता न्हंय,

त ? '

हांव बीचार पासय मारतां. बसलोच जाल्यार पुतळ्यां

कित्याक ? '

यां हांव बीचार येतलें म्हण्टां. पळोवया, बेत आसा'

कांय उलयलों ना. मागीर तेंय वाचपाक लागलें. धा पंदरा

उठलें आनी 'बरें, येता हां ' म्हणूंक लागलें.

लें ? '

वतां, मातशें बेगीन वचपाक जाय.'

दिसा सांनचो हांव बीचार पुतळ्या सकयल बशिल्लों.

यजणांचो आवाज आयकूक आयलो. पळेत जाल्यार

ंच चली !

वेळ जालो ? ' ताणें विचारलें.

आतांच आयलां हांव'

ज्या म्हऱ्यान बसलें. ताणें निळो मॅचिंग ड्रेस केल्लो.

दिसता दर्या न्हय ? निळोच.' ताणें म्हळें.

बरो दिसता ' हावें म्हळें.

कशी ल्हारां येतात तीं. येतात पुण नाच जातात.' –

कवियत्री बी काय किदें ? ' हावें विचारलें.

न्हय. कवितेची आवड आसा कविता वाचतां हांव'

र्देवर बसलें. वेगवेगळ्या विशयांचेर उलयले. गोड

लयतना हांसप, हांव आयकत आनी ताज्या तोंडाकडें

. तेंच तें सारकें तेच बावलेचें तोंड तें.

बीचार येवपाक लागलें. हांव तर पयलींच वचून

ऱ्यान बसतालों, आनी त्या मंद मंद वाजत येवपी पाय-

पळेत रावतालों. तें गोड हांसप, तें गोड उलोवप, केन्नां

आयकूंक येत, केन्नां काय तें सोबीत रूप म्हाका दिसत

त बसतालों. मागीर ताणें तशेंच ल्हवू ल्हवू चलत येवप

आनी विचारप 'चड वेळ जालो ? '

पुण किदें म्हणून कोण जाणां. अकस्मात तें एक दीस आयलें ना. सहज कसलें ताका काम बी जालें जायत म्हणून परतो दुसरे दीस थंय वाट पळेत बसलों पुण तें आयलें ना. तिसरे दीस ना. चवथेय दीस ना.

म्हाका दुबाव आयलो. सुरेशाक कळ्ळी काय ही खबर ? ताणेंच ताका बीचार वचपाचें बंद केलें काय किदें ? पुण तो म्हजेकडें पयलीं उलयतालो तशेच आतांय उलयतालो. कांयच फरक करी नाशिल्लो. किदें जालें काय ? म्हाका त्या बावलेची याद जाली.

हांव तेन्ना ल्हान. मुळावी दुसरी यत्ता शिकतालों. आमचे क्लासींत खूब भुरगे आशिल्ले. एकदीस मास्तरान आमकां नातालाक गांवच्या इगर्जीकडें व्हेले. थंय ख्रिसमसचें झाड बरें सुशोबित केल्लें आशिल्लें. ताज्या ताळ्यांक तरेक तरेची खेळणी बांदिल्ली. आमकां सगळ्या भुरग्यांक एका फोलीणांतल्यो सोर्ती काडपाक सांगल्यो. सोर्ती दर एकल्याक फुट्टाल्योच. कोणाक मोटार, कोणाक फिस्तुल, कोणाक बोल. मागीर त्यो झाडावयले काडून दिताले. म्हाका फुटली बावली. त्या बावलेचें तोंड आनी ह्या चलयचें तोंड दिसपाक सारकें. ताका पोळोवन म्हाका याद जाली ती ह्या बावलेची. मास्तरान आमकां घरा हाडले खेळणी आमी आपआपल्या घरा व्हेलीं. म्हाका म्हज्या बावलेची मोठी अपुर्बाय. हांव तिज्या पोल्याचो मां घेतालों. अपुर्बायेन तिज्या केंसावयल्यान हात भोंवडायतालो. हांव तिका सदांच म्हज्या अभ्यास करपाच्या मेजार दवरतालों. एक दीस अकस्मात मेजावयल्यान बावली नाच जाली. हावें घरांत सगळ्याक सोदली. पुण ती बावली नाशिल्ली. म्हाका वायट दिसलें. दुःख जालें. म्हज्या मोगाची अपुर्बायेची बावली ना जाल्लीं. हावें घरांत कोण आयल्लो ताजी याद केली. शेजारचो भुरगो मधू आयल्लो. हांव ताज्या घरा गेलों. आनी बारीक हे वटेन तेवटेन पळेत घरांत भोंवलों. एका कुडींत एका आर्मारीवयर ती बावली आशिल्ली. तिका पळेली आनी म्हज्या मनांत एक विचार आयलो. तसोच हांव घरा परत आयलों.

दोन तीन वर्सां गेलीं हांव मारुती गडावयले जात्रेक गेल्लों. ताटांत पयशे घाले, तीर्थप्रसाद घेतलो आनी भायर येवन चौकार बसलों. मुखार पळेत जाल्यार तेंच चली मेधा आनी म्हऱ्यान ताजो घोव बशिल्लो. मेधाची आनी म्हजी खीणभर नदर एक जाली. पुण तें हांसलें ना आनी हावेंय वळख दाखयली ना.

म्हाका मधूगेर म्हजी बावली चकचकीत दुसरो नवो ब्हिस्तिद, गळ्यांत मणयांची माळ घाल्ली दिसली तेन्नां हावें मधूचो बावलेचो मोग पळोवन बावली मागली ना. खरेंच ताणें म्हजेय परस त्या बावलेचो चड मोग केल्लो.

भरगच्च वस्ती घालून सोबीत फुलांच्यो फांतयो माळून आमाडो घाल्ल्या, पयलींच्याकूय सोबीत दिसपी घसघशीत आंगाच्या मेधाक पळोवन मधूगेर आशिल्ल्या बावलेची म्हाका याद जाली आनी म्हाका मनापसून बरें दिसलें.



# रेनकोट

— कृष्ण करवार

'आन्ना, हाल्लो वे मजगुनि लेनिकोटु ?'

'आरे, विस्सर्लो पळे आजि हांव. आजि गो हांवें घारा येतना कस्लें जाल्लें गोत्तु आस्सवे तुका, मंगल... ?'

'कल्लें जाल्लें आन्ना ?'

'आगो, वाट्टेरी अेकु व्होळो हस्ती अुब्रलेलो आशिल्लो.'

'तो सलकसांतु पले आशिलो तस्लो ?'

'व्हे, व्हे, तस्लोचि. तागेल्या गळ्यांतु अेकु ढोलु बांदिलो आनी तो सोंडेने वाज्जप वाज्जयतचि वत्तालो मुखारि...'

'बेंड वाज्जपवाल्यागादी वे ?'

'व्हे आनी त्या गडबडींतु तुगेलो रेनकोट हाडूक हांव विस्सोर्नुचि गेलों पळे आतं फायि विसर्नास्तना हाडतां इत्तें...'

'पळे हं ! ना जाल्यालि काली विस्सोल्नु वचशि. अेके टुवाल्याक गांटी माल्नु दवयी.'

काली आनी फायि हांतुलो फरक कळनातिल्या मंगलागेली हांवे रेनकोट हाडूक विसोरूक नज्ज म्हळ्याखातिर टुवाल्याक गांटी मार्नु दवोरची कल्पना आयकुनु मगेल्या दुःखी मनाक लगेने हासो तडवोनु घेंवच्याक जायने. दर दिवस आपिसाकथाव्नु घारा येनाफुडे मगेली आनी मंगलागेली हो अस्लीं नमुन्याचिं अुत्रं जात्तालि. जाल्यारि मगेलो फायच्या दिवसाचेरी कितलो विश्वास ना आस्तालो की ताज्यापशी चड विश्वास मंगलाचेरी आशिशलो. मगेलो फायचो
दिवसु येव्नु येनातिले तरिकेयि फायि हांव रेनकोट हाड
ही कल्पना तिक्का आनन्दी कर्तालि. शेजारच्या वत्सल
आतांतु भांगरा नवीन नमुन्याच्यो पाटल्यो करेयल्यों
मगेल्या मीनाक्षीने तशी कसलीयि अिच्छा चुकून सुदांयि
सांगने. मीनाक परिस्थितीचि जाणीव आशिशली. सग
अेकशें साठ रुप्पयी पगार मेळतल्या असल्या मगेल्या घारा
अिच्छा कोर्ची अशक्य हें अित्तें तिन्ने जाण्णु आस्ससना अश्
स-सात वर्सं संवसार कर्नाफुडे हांव म्होणूक तयार ना.
कळतालें आनी ती मगेल्या गरीब्रीचि जाणीव माक्का जा
कस्लेयि नमुन्याचें वर्तन सोर्डो, अुत्रं लगेने अुल्लेयिनाशिली.

गांवां घरखर्चाक आवस-बापसुक पन्नास रुप्पयी
वरलेल्या शंभर अेक रुप्पयांतु मुंबईसारक्या शहरांतु ह
आनी मंगला ह्या तेग जाणांलो संवसार मनांतु आशिशलें ह
सांगी रीतीने चलद म्हळेलें साध्य पुणी कशशी जायद
भाडें आनी मगेलो रेल्वे पासु हांतुचि तीस रुपय्यो हुस्सु
अस्ल्या स्थितीं आमगेलो संवसार कशशी चलला हें
आमकां गोत्तु.

गेल्ले तीनि म्हयिने हांव मीनाखातिर अेक सा
हाडच्यांतु आशिशलो. धा-बारा रुप्पयाचें पत्तल तें कसलें ?
विकत घेंवच्याक माक्का तीनि म्हयिन साध्य जावनयें हें
कोणाक सांगचें ? ह्याचि म्हयिन्यांतु पगारु जाल्लेतक्ष
वोचूनु हांवें तें पत्तल हाडलेलें. हाडलेलें हांवें अेक सा
जाल्यारि मीनाक वज्रा कुटकं हाडलेल्या नमून्याचो आनन्दु
हांवें पळेयिलो. त्या दिवसु सांजे आम्मी तेग जाणं समु
भोंवच्याक वोचुक गेलेलीं. मीना खुशींतु आशिशली. हांव
आशिशलों. अितल्या घडयेंतु खंयी कि थाव्नु दोनी सा
वेळेचेरि रेवेंतु खेळच्याखातिर आयलीं. तांगेल्या आंगांतु
पाचव्या पाट्टयांचे रेनकोट पोळोव्नु मंगला अकाअेकी म्हणा

'आन्ना, आम्माक काप्पल हाल्लें आनी माक्का त्या
अेकु तांबलो लेनकोटु हालता वे ?'

मंगलागेलि प्रायी ती कितली ! दुसऱ्या चलयांगेले
पोळोव्नु तिक्का आपणाकयि रेनकोट आस्का म्होणु दिस
म्होणु हांवें म्हळें, 'व्हे, फायि हाड्यां हवे अेकु गोमटो
आमगेल्या मंगलाक.'

घारा येंवचो तडवु मंगला सगळ्या चाळेंतु घरोनुघा
सांगू लागली, 'मगेलो आन्ना मजगुनि काली लेनकोट
दुसऱ्या दिवसु हांव सांजे घारा आयलों तरी बागलांतु
अुब्रलेलि आशिशली—

'आन्नो, हाल्लो मजगुनि लेनकोटु ?'

हांवें वेळ काडुक कांयपुणी नेवन सांगलें. लाग्गी
धा रुप्पयांतु सगळो म्हयिनो माक्का काडचो जाल्लेलमि
गुणि चार-पांच रुप्पयांचो रेनकोट हाडूक मज
जायनेशिल्लें. लेकतले लेकताति की मुंबईंतु राबतल्

ळचारि पांच पैंशावारि म्होणुं. जाल्यारी मज असल्याक चें थायि व्यसन नासतल्याक कांयि तश्शी दिस्सनाशिलें. रुप्पयो कोणालाग्गि उसने मागल्यारि मेळस्नाशिल्यो ो भाग् न्हयि. जाल्यारि आयचें मरण चड म्हळचारि लकेयिलेंवारी जातलेंशिलें. केना केना वेळु जाल्यारि ल्याने घारा येंवच्याक हांव बस्साने येत्तालों बंद जाल्लों. तालों तितलोचि अेकु आणो भाज्जेक जायद. घारा पैशे ांवया म्हळचारि थंयि तेग जाणांगेलें साठ रुप्पयांतु कश्शी ळ्ळेल्या याचनेने मगेल्या मनापशि मीनागेलो विरोधु वचाराक आस्तालो.

तारीक धोर्नु तीस तारीक थायि सगळो म्हयिनो माक्का यांभित्तरी साकसुंवकाशिशलो. प्रति अेक दिवसु हांव कांयि णी नेवन सांग्गूनु मंगलाक फटेयतालों. जाल्यारि तिक्का मज्जेरी पूर्ण विश्वासु क। हांव तिजगुणि अेक तांबडो हाडचो आस्स म्होणुं. रात्ती तिक्का सांबयतचि हांव लों. सांबेयतना काणी सांगतालों–

क्का गांवांतु एक रायु आश्शिलो...'

ान्ना, तो लाजवाल्यांतु लाबतालो न्हयि ?'

हैं व्हैं. तागेलि अेकी गोमटीचि राणी आश्शिली. अेक दोगजाणं घोडचाचेरि बैसुनु शिकार कोरुक वोचु गेलि. डयेंतु होळळो पावसु आयलो...'

ान्ना, त्या लानेलाग्गी लेनकोट आश्शिलो की ना ?'

ैं सांगचि काणी थयिचि खर्चली. त्या दिवसु रातभरि दोळचांइदूर अेकु तांबडो पाटचांचो रेनकोट नांच्चत . हांव रेनकोट हाडका म्होणु मंगलाक घेवनु घराभायर ी मीनाक ' टा टा ' कर्तालि. आनी बागलाभायर पडतां आमगेलो दुदवालो भैया इदूर येव्नु अुब्रलो. तान्न मगेल्या ाश्शिली धा रुप्पयां नोटु झोंबुनु घेतलि. अित्याक की गेल्या म्हयिन्यांतु तागेली धा रुप्पयांचि बाकी दवरलेलि.

पस हांव ह्या बरीवयल्याने त्या बरीचेरी सर्लों. खंच्याकि ने रेनकोट फुकट ' सेल ' कोर्चे केल्लेलें. तागेल्या दुकानाअिदूर खूब गर्दी जाल्लेली. प्रति एकळचाक अेकेकु रेनकोट मेळतालो. थंयि तेमे रेनकोटांचो एकु गुड्डो घाल्लेलो आश्शिलो. जाल्यारी हांवें दुकाना बागलांतु पावतना गर्दी खर्चलि आनी तो दुकानाचो म्हणालो, ' खर्चले हवे सगळे रेनकोट. आत्तं मुखावल्या म्हयिन्यांतु यो. '

आनी हांव वापस जागी जाल्लों. ह्या रेनकोटाने माक्का मज्यांतु दवर्नेशिलें. त्या दिवसु म्हयिन्याचि बावीस तारीक आश्शिली. येतना रेनकोट हाडकाजचि म्होणु दुकानांतु रिगलों. खिशांतु अखेरच्यो स रुप्पयो आश्शिल्यो. अेक साडे तीनी रुप्पयी मोल्लाचो रेनकोट आश्शिलो. जाल्यारी तो प्लॅस्टिकाचो. घारा व्हर्त व्हर्तना पिंदूनु वोचूक फाव आश्शिलो. दुसरो पळेयिलो तो साडे पांच रुप्पयाचो आश्शिलो. जाल्यारि माक्का धैर्य जायने. वोरचे आट दिवस आट आप्यांतु कश्शी काडचे हें येवजुनु धस्स जाल्लें. घारा कोणेयि अप्रुब म्होणु आयल्यारी ?....

आनी हांव दुकानाभायर पळ्ळों. पावसाडि दिवस आश्शिले. वारोयि जोराने सुट्टीलो, आनी पावसु सपूरु येत्त आश्शिलो. हांव मगेलें सात्तें सांभाळनू बगले थाव्नु वत्तालों. जाल्लेतर्कें अुपराटि दिकाने वारो येवनु मगेलें सात्तें अुपराटो जाल्लें. आठ काडचांतुल्यो स काडचो मोण्णु गेलेल्यो. त्या बावडचाने मगेली सेवापुणि कितली कोर्ची ? गेल्यो चारी पावसाडचो हांव त्या सात्याचि सेवा घेत्तिली. आनी आजि त्या सात्त्याने आखेरचि सेवा कोर्नुराम म्हळ्ळें.

माक्का तशीचि तिबतचि वोच्चें साध्य नाशिशलें तस्ल्यांतु तें मोळ्ळेले सात्ते बगबेंतु मार्लें आनी पेलदिका रस्त्यारी आश्शिल्या... माक्का सांगूक खरें लाज दिस्ता, हांवें मज्जेख तीर पावणेपांच रुप्पयांचें सात्तें घेतलें. आठ दिवस पावसांडींतु सात्तें ना आस्तना आपिसाक वोच्चं म्हळचारीयि साध्य दिसनाशिशलें. हांव निसणी चोण्णु वयरी वोचु गेलों आनी घरा बागलांतु पावलों. आनी मंगलागेले शब्द मगेल्या कान्नारि आयले,

' आन्ना, हाल्लो वे मजगुनि लेनकोटु ? '

आनी ते शब्द आयकनाफुडे मगेल्या नव्या सात्त्याचे कुडके कुडके कोर्नु अुड्डोवयां म्होणु माक्का दिस्लें.



# तो लज !

— कायतान

सोरोप धरपी शारांत गेल्लो. शारांतले रस्ते डांबराचे जाल्ल्यान वतान भाजतले. वाटेर पॅंस कुशीक एक झाड दिसलें. सोरोप धरप्याक सू जालें. लांब-लांब धेपां घालीत तो त्या झाडातळा आयलो आनी लेंसान कपलावेली हूम पुशीत थंयच सांवळेक बसलो.

वतान कणकणलेलो मनीस झाडाचे सांवळेंत पावलो आनी थंय तो बसलो आनी शीतळ वारो व्हावूंक लागलो जाल्यार कितें जाता ! मनशाचे दोळे जड जातात आनी ताका लकणी येता. सोरोप धरप्याचे लेगीत अशेंच जालें. केन्ना आपले दोळे बन्द जाले आनी केन्ना आपुण घोरेवंक लागलों हाची ताका सुनशा लेगीत उल्ली ना. पुण एकाएक पालो सळसळ्ळो. वाऱ्याचा सळसळा फुड्यांत धर्तरेवेल्या ह्या सुक्या पाल्याचो सळसळ वाघाफुडयांत मुसाचो आवाज कसो आसलो. पुण तितल्यानच आमच्या सोरोप धरप्याची झेम झडली. आनी तो सडसडीत अुठून अुबो रावलो सळसळाच्या दिकान दोळे करून पळे जाल्यार अेक हातभर लांबायेचो सोरोप वतांतल्यान सांवळेक येता.

आनीक कोणय आसलेलो जाल्यार भितलो आसलो. पुण असले शंबरानी सोरोप जीतेच धरलेल्या ह्या मनशाक कांयच दिसलें ना. कांयच दिसलें ना कशें तर ? ताका दिसलें ह्या सोरपाक कसोय करून धरूंक जाय. पुण धरतलो कसो ? तो काय आपली बडी आनी दोरी घेवन येवंक नासलो. करतलो कितें ? सोरोप देखला आसतनाय ताका वचूंक दिवप हें आपणांक सोबना, अशें तो मानतालो. देखून कशेंय आनी कितेंय करून त्या सोरपाक धरपाचें ताणें थारायलें.

अितले म्हणसर तो सोरोप झाडाच्या मुळांतल्या अेका सरता म्हणपाचे ताणें पळेलें. ताका अेक अुपाय सुचलो. जेन्ना शेंश्टी बिळांत घालून देवंक लागलो. तेन्ना ह्या मनशान ता हातांत धरली आनी निबरान ताका भायर ओडलो आनी सोरपान 'फोअर्स' केलें आनी तो नव्यान बिळांत रिगलो. ह्य मनशान ताका भायर ओडलो. ताका दिसलेलें अशें सात-आठ केलें म्हणटकच सोरोप ज्याम जातलो आनी मागीर आपु सोपेपणीं पोतयेंत भरतलों म्हुण. पुण तिसरे फावटी जेन्ना शेंप ताणे भायर ओडली, तेन्ना सोरपान मनशाच्या आंग घेतली. पुण असले सोरपाचे बुद्दीक तो आयकता ? अुडकी ताणें आपणाक वाटावन घेतला.

सोरोप मात्सो ज्याम जाल्लो. तो बिळाचे देगेर आयलं डंकी नदरेन त्या मनशाक पळवंक लागलो. मनीस नव्यान शें पाचे नदरेन ताका तेळतालो. खीणभर त्या मनशाक पळेत अुप्रान्त ह्या मार खावन शाणो जाल्ल्या सोरपान आपली शेंप घातली आनी फाटलें आंग हालयत हालयत तो बिळांत दे निमाणो खीणमेरेन तो त्या मनशाले नदरेक नदर दीत अ बाबडो सोरोप धरपी ! आपली लज कोणेंच पळवंक ना पळवचेखातीर फाटल्यान-फुडल्यान पळवंक लागलो आन सकलाक घालून वचूंक गेलो.

■

ौलींतली एक कथा

# रंगु सुण्टलो

—के. नारायण नायक

'कमळको !' माणीकका पावली. लेखान वेळार एतली
ातीं वर्षां जालीं हरी थंय तिजे लागी दूद काण घेताय.
ा पासून कमळकाक चाग अभिप्राय तं. हापळ, ओडि,
ती, शेणी, ताक, मेणाय तूप तस्सलें कसलेय माणिकका
ग घेंवचात दोन गुज असात भरसी सुरती–भरती, लेकांत
करप कांय ना. दुड् चड दिल्यारीय मोल सण्ण चडवूणे
ा विश्वासान काण घेवयेत. ताजे भायर पावस ओत कस-
ा तेत्ते वेळार ती साधन हाडतली ना पांवयतली. एक वाटेन
ती कोणाक चांग बलावाक ना., वायटं कांय ना सभार
तिली. चोवचाक करून कोण नातिल्ली. सान प्रायेचेरीच
पळ्ळी. अनाथ जाली. दोग चोग जणानी एकडे जावनु
ास काडूक एक हादी करनु दिल्ली. तीं रीणां आजीय
ा विसरना. कोडू गोड अनुभव सग्ग भोगूनूय ती दीस आय-
डता. गेलेलकडे सग्ग दोन गोड उतरां उलोवनु वत्तली.
घेवनु पाविले हरी अम्मा लागी दूद मेजून दितां दितां तीणे
आरांभीलीं.

रंगु सुण्टलगे कमळको. सुण्टल्लो–वान्चलो भावडो. ते दशेर
नूय कायरीं ना. सबाव रंजूयात. समर्गणी आशिशलो जाल्यार
वस्त जावनु दीस काडतलो आशिशलो. कितूल वर्षां तशी
आरांभार हाळ्ळलो जाल्लार वोयधीकेन भेद करयात
खंयगे. मरनु मास दोन जाले खंय. तिरूर किं तिरपूर किं
..खंचे किं गांवचे आसपत्रेंत पणु मेलो... माका वाट
नालेले कालाक एक वाट दाकौंचाक धावनु भोविलो पापी...
तशी सुन्त जालें....वत्तांगे. आयकत लागेन जीवाकच
हुंय.'

ाणिकका दर्ला कवडाक दण्डी घालनु गेली. अम्मा दूदा
घेवनु वासरेंतूय गेली. जाल्यार हरी मनांत थाकून विचार
नात. आफीसांत थाकून एवनु न्हेसवण पर्तून कागत वाचून
तो कदलार. तवळी माणिककालीं उतरां कानांत पळ्ळीं.
टलो '– नेणता ताणे तीं वर्तमान पुर्तीच आयकीलीं. वर्तमान
राबोवनु माणिकका गेलेली तो नेण. तागेलें मन धूरचे एदे उडगास
सोडून गेलें.

'रंगु' हे जग मुखांत थाकून तें रूप निप्पलें. रडूक करूक कोण... कोण पावलोना ताका. तागेलें जीवान एक बावल्या खेळ खेळ्ळीं. कोणाक नाका तो. हाडां ताजी मेळत वे ? हो, तीं कोणाक जाय. ताजी कर्म करूक कोणे मुकार एवन्ना. मागीर नवें सुतकल धरचें. सुतकण्टन करनु उवाळनु सोळेले वार्गांतुलो भी जायत तो. कागतार... हे अबद्ध ! असंबंध ! तो राय मंत्रि महापुरुष न्हंय मू. विद्यावन्त वर्तक कोण न्हंय. 'चिन्ना जालोल' मनिष न्हंय. दम्मा पिरती नवें आंता सोयरीक. समकी आसतना तो नाका जालोल कोण ना. तवळी तो चांग मनीष. वाटेन वतल्ले भान्डिकारी जाल्यारीय संकव ताण्डता सणा एक हाथ धरूक ताका उल्दीतले. तें तागेलें देह दिकून. लोकटे सीर ताजी सण्ण घुंवचाकनीक तो भार जालो. नाका जालो. निन्दक जालो. मृगा पशी पास्ट जालो. सृष्टि मण्डलांतलो प्रज्वल नक्षत्र खंय मनिष. परम श्रेष्ट खंय. सितोत आसून विशेष इतें. मनिष्यान पांवका जालेल्या पशी कितूल की योजनो मागल्यान मनिष, काळ उतुलेय दण्टवून आजीय. हरीक लज्जा लागली. ताका दुःख दिस्सलें. आनीयेक कडेन अन्त नात्तिलें विषाद इति करप ताणेय सांगीलें तं. सान जाल्यारीय सांगून चोयलो. केप्प्या कानांत खोदनो. उमती कोळश्यार उदक. निष्फल जाली ताजी उतरां. घातककाय घेवनु भोवचें कूडे मनिष जिकले.

रंगू हरीले अम्मा वर्गी कोण न्हंय. लागीचो सोयरी न्हंय. हरीले परणे घराचे सण्ण लागी जावनु तं रंगूले घर आशिशलें रंगूले घर म्हणचें मर्याद न्हंय. रंगु राबतल्लें घर म्हणचें तं सम आसतलें. हरी थंय राबल्यार त्या घराची सुद्धि मेळताली. तशीच अपोरतूनूय हरी पशी पांच-स् वर्षां व्हड आसका रंगू. हरीन रंगूथय वचप आशिशलें कुमारा लागी खेळूक. कुमार रंगूले म्हलगडो आन नन्दालो म्हलगडो पूत. व्हड आशिशले घरची न्हंय. जाले पसावत सोयरी मित्रां वळकी वूणे. कोण खंय कांय कळना एवप वचप वूणे. जाल्यार रंगूथय एक विशेषता आशिशली. थांगा भोरनु मनिष आशिशल्लीं. आवस-बापसूक दिक्किल्लो उडगास ना रंगूक. रंगू व्हळे अन्ना लगी

वरलो. बाकि तागेले आन-भाव खंय आसात, पुरत्या पुरतें कांय कळना. कलकता, बम्बई, दिल्ली थांगा एकेक चिकरी पोकरी करून आसात. बर्पसर्प कांय ना. तांकां निश्चय ना तें. आबो कालाक वाट विसरनु आयलेरे, जाल्यार आयले. कोण एदे जाण तेत्ते गांवांत कोणाकंकि सग्ग राबौन आसात. थोगडे जणानी व्हरडीक केल्लीना. रंगूलो म्हलगडो आन मात्र गोश्रीपुरांत राबलो. केंळें, दोर तशी चिल्वाण एंदे विकून दीस कष्टि काडता. नित्य उसरमेटींत. तांतु रंगूय सिरकला. नन्दमामाक कितली चेरडूवां आसात म्हुण ताका सम कळना. लागलागी बाळान्तीर जात्ताय दिकून तागेले बायलेक वर्षूकी म्हुण सग्ग खेळ करतालीं. तिजे असवडी सांगतली विना कानांत भी पळ्यार हरवे गाळायतली ती. एक नेटवी म्हणयात. सभार चेरडूवां जालेल्यांत नन्दमामाक विचार ना. तांका पोसूक, समयार समयार चोवनु जांवका जालेलें करूक मुट्टु एत्ता म्हणतर ताका वैराग्य लागताय. बायल जिबटी लागेन. तें सग्ग तशी आसून रगूक हून उदका घोट. ताका चोंचाक करूक कोण ?

रंगू देहान हिडुंब सरी आशिशलो, काळो जाल्यारीय तोण्डार कला आशिशल्ली. तुसळीं फपूळेलें तोण्ड न्हंय. पोट तापल्यारीय हासतल्लें तोण्ड. झगडें झूज ना. मरणकोंकि ना. तागेले रगतांत तस्सले दोष ना. आनी खंचान खयींय उसळा उसळीक गेल्यार आन कान धांपूक पूरो; पुण व्होन्नेक परमळ पळयार पीरपीडें भित्तर तीणें चडवना. सकाण घडीच सांगून सोळेंले आसा तीणें. हेद सोदून भोंवता ती ताका जात्रा करूक.

रंगू घरकडे सांगीले सग्ग करता. घाल्लेलें खाता. तागेलें, ताणे करका जालेलें दिनचर्या पसावत सांग नातिल्लें राबचेंच चांग. नाकांत एशि हांडा मडीश तणोवनु पोटाक घालतली. दंदकारा लागी हे वेष कांय चेन्न जावना. तीं नळको नीट करतलीं. रंगूक तीवय वाट ना. संत संत तागेलें शाळेंत वचें बन्द जालें. सेरांनी सिकूक सांगीलें ताजान सिकूक जायना. बरवनु करनु हाडूक सांगीलें तेत्ते वेळार व्हरूक जायना. बरोंवचाक वेळ ना. बूक पेनशिल पुरत्या पुरतें ना. शाळेंत वचेंयवचनातिल्लेंय लेक समच. पोसतल्याक ना मागीर शिकयतल्यांक तान खंय वरूक ? ताणीय उवाळणु सोळ्ळो. तांकां सांगून पूरो जालें. ‘ बुद्धि आसा ताका, तागेलें साहचर्य तशी, उलवनु कायरींना ’ सेर सांगताले.

मन मुरडेलें. देह जून जालें. वजें व्हांवचाक खणूक देहान कसलेंय करूक तो भायर सरलो. दुड् ताजे हाथाक लागले. थांगाय ताका वोगरी ना. सग्ग घरकडे जांवंका. तागेयल्यार तागेयल्यार थांगा पावना. तितली तोण्डां थांगा वांवटेवंनु आसात. मंन करगून ताणें अन्नाक ब्यारा सहाय करूक आरांभीलें. ब्यार एक लेकान व्हड केलो.

रंगू बाडकूळो रगडो सरी जालो. कोणांलेय उपकाराक सहायाक पांवचो जालो. व्होटींत चार दुड राबनात. मेळता तशीच वेच करता. व्होनेकय आतां व्होळ्ळीं कायरीं. तिजे कन्नाक गोमटेक हतांक जड न्हंय जाल्यारीय एकेक दोंदोन भगंरा दन्तूक लांबली. एकाक एक पर्तून न्हेसूक वस्त्र जालें. विडविडेंवचे चेरडूवाली बोब वूणे जाली. रितीं आयदन हाल्लूचीं जालीं. वोंयद वोयदिका इतें म्हुण कळ्ळें. चेरडुंवालो आप्पपा, तिगेलो देरू तं ता कारण म्हुण भायर खुला सांगूक दुकता जाल्यारीय ति नातिल्लें गेल्लेना. ये सग्ग चंवकता, रंगुक आतांय परणी वटूळीच आधार. ताजी गति फूडंचि वरली. जाल्यारीय तो तारासून काडतालो.

ती स्थिति साभार काळांक तशी राबलीना. तं हरवे अज्ञात अन्त पावलें. दुर्बळ मनिष्यांक, कोण एक नातिल व्हारडीकेक, दीस काडूक गुसमुटेतल्याक करवे गाय हाडूक, तुशू थोंवचाक, ह्रापळाक उडदा पिट्टी ह्डूक तो सहाय जांवचे रूपान म्हुण व्होनेले कानांत पळ्ळें. धुवरेंवनु तिजे मनांत थाकून ते भेतलें. उतरा उत्तर जालें. ताणे करचे इम्मेक सरी ऊणे करनातिले अनाथांक सहाय करचा केलोलो रंगूक जीवा जाळ आयले. थांगा कलह जालें. तं जालें. तें तारासूक ताजे मनाक त्राणि ना जाली.

तेदूस सांझे तो लक्ष्य नातिल्लें कोपान कट्यार वचून ताजे मात्थ्यार उजा पावस पळ्ळो. चारीय तांत ताजे मन ताजे दोळ्यांत काळूक भरलो. तागेल मित्र उंचे पदार ताजे सम सिकील्ले चांग जाल्यात. थोगडे जाण कुटुम्बस्त ‘ अप्पण ?’ तागेली गति चोवनु ताका दुःख जालें. जायते ताजे गालांवेल्यान हून अश्रु थेंबले. अक्षीण यत्न ताणे काण पोकरजूंका नाका, पादिपूजा करका नाका, मनिष्या तागेल जाय जालेल्यांक दिस्सलेना. तागेलो आश्रय बु ताका दिसलें. तागेलो विश्वास वाडवलो. ताका लक्ष्य न दिचाक विचार ना. नेणता ताणें थांगा बेसून तोण्डा उलोवंचाक आरंभिलें. हरीन कुमाराकय घेवनु वच उलदीलो ‘ रंगप्पा, रंगप्पा. ’ रंगु उल्लो आयकना. सरकी पडकळी नेंडून तें आयकीलें. नवी वोरवाश्यो हाथांत पळ लेकिले.

पडकळी नेण्डू-ताका पायकीळो नेण्डु म्हणचे तं चां कर्म तसली तं. समकी निशें पिवचेकडे गोबोर उवसुका. बा आडलावनु मारनु घालका. आनी लाळ नुण्डी करनु दीस ताणे सोदून काळ्ळेली वाट. पोट भरता, उसळो. धा ज चांगुलेय जाता. व्हड व्हड घरकडे ताका स्थान आ शिकिल्लो वोयदु तो. नन्तना वोयदीक कळचो न्हंय. तंत्रवाद, कुतंत्रवाद तशली एदि गोष्टि हातांत आस फूल, चुन्नो, कुंकुम, इंगाळा, तुरशी, तस्सली एदि सामग्रि घेवनु भोंवतलो. ताजे भायर पुड्डोयो, गुळियो, चिट्यो ताजं तोण्ड चोयल्यार कळता गोंगडेपोश म्हुण. गोवटेर पेस्कारि म्हुण. तशल्यांक भी जायत आतां मान मोल. उतरांर तो पंगूरतलो. व्हार्डीक ताणे केलीना. ब्रह्मचारि म्हुण तं. भायर कळौनातिल्लें ताणें जायते जणांक वाट आ आसा. सुतपुराणीक म्हुण दाकौंचाक वचून घुट्टु भाय म्हुण संशय. नवें गिरायक बल्यात पडता व म्हुण

व बेसलो. रंगु उलेयता. नुत्तो बेसता. खंयनेन चोयता. साधान सांगता. पडकळी नेण्डूक कळ्ळें, वरव सिजतले श्वनातिलो गांव ना. ताका वळकी नातिलो मनिष वूणे. नेण्डु नन्दा घरकडे पावलो. खेळनु गोन्दोळ करतालीं ळीं. चतुर्यान ताणे नन्दा लागी वर्तमान आरांभीली. वयरीं. मनां केल्लीं. नन्दमाम थडथडेलो. रंगूलें जातक जीद वोयदाक दाकौंचाक ताका दिस्सलें.

ांत घाणी पडचे फूडे इतेंय केल्यार तुका चांग. माका हंय. तुकाय तुगेले चेरडूवांकय आठौवनु आखांतान आतां ताका जबरदस्त केल्यार तो आटापितलो. वरेवनु जून जातलीं अर्धे सगळें करनु जनपद सोडतलें रतलो. तुमचें तोणांत रेंव जातली. ताका दशे दोष . ताजे भायर... तुमचेर सळ आश्शिले कोणेय ताका देल्यांवे म्हुण माका घट्ट संशय. '

णण भोंवतल्याक शेनि फाटि घेता. गोबोर उबो तांचे नमाम फडफडेलो.

! उबो ! तें सांगून बेस. '

र इतिकरप. '

रीं सग्ग समकी करूं. ताणें अशी तशी गांव भी सोण तिलें नियंत्रणांत घाली. '

नोन वे ? अटापीत वे तो ? साबाव सांगल्यार ? '

ज वे ? हांव करीन. सण्ण चक्र वेच आसा. व्होळळे के धांतूले एक पूरो. सोपूर दंदान कायरीं सम करूं. '

गम, दुडवा चोवनाका. इति जाल्यार तें दीन. ताका जाल्यार पूरो. '

नेण्डूक दुद पायस जालो. तो कप्पीउदकय खाणय काण घेवनु होगी भायर सरलो. ' नोटां ' वटावंची ाक रुचलींनात. तीणे बामणाक गाळायलें. देरू जावो ागीर निर्विंतिना तीणे मातें हालयलें. पडकळी नेण्डूले तीवय निदेली. हरीनय कुमारानय तें सग्ग नीपून केलें. ताणी एक स्वरान सांगीले ' रंगप्पाक पाणा दीक करका. पडकळी नेण्डू घोळको तं. ' तांगेलीं मान नन्दमामान कार्याक काळीनांत.

प्रयोग आरांभीलो. तो सांकाळेंत पळळो. बल करनु नु रात्यारात ताका उळगांवांत व्हरनु ' कैविष ' ा नातिल्लें पीवोवनु ओंकोवनु चोयली. धार ना. वूणाव ना. मंत्रवाद आरांभीलो. अप्पीन, ट्टो कोम्बो, बोकडि... सग्ग हाडताय. वसर्यारी वर, वली... एकक चपड विद्या. कांय गुण ना, गिरगीरी चळ्ळी. चतुरुपाय व्यर्थ जाले. पेट्ट नाका नातिल खावनु रंगूल देह पिटो जालें. भंगारय ादि गेल्लो. व्होन्नक नाकार आयलो. एवंचें तुंटलें, लें. पडकळी नेण्डुन् हाथ उद्दारि केल्लो. मेळ्ळेलें ताणेय अवसेयलें. ' सांगिल्लें तकीत केल्यार वे ? तागेलें समर्थन. मृगार ते प्रयोग चंकुन्ना मागीर नवें मनुष्यार; पिशें जावो घेडें जावो ? मास भोगले. गांवकारनि नन्दाक म्हस्त सांगीलें, ' सीत सिजून पेज जांवचेफूडे खयींय व्हर्नु ताका राबोव्नु वोयदीका कर. ' पडकळी नेण्डूले उतरांर तो फरकलो. दुडु धूळिकेल्लो रंगूक रोग मारक जाल्लो. रंगूक मार्नु भायर घाल्लो. रंगु वाटेर पळ्ळो. देह कडि जालें. पोट करपलें. कोण मायिष्ठान कांय उडेयल्यार जालें. नांच सोवे गोष्ठि निवली. वर्षा भोगलीं.

नन्दमामाले वरव सर्लें. चेरडूवां एकेकडे गेलीं. प्रताप बाव्नु कनक चुप्पा जाली. रंगु काटचर बेसतलो. जनानि लेकिले ' कपला बोरो ' सामाज प्रमाण्यानि ' तागेलें अदृष्ट ' म्हणु लेकून ताका सोळो. असख्य अधम मानवांतलो एकलो जालो तोवय. खावडि एदो खेली. गांवचे नेम पर्तले. ताकाय धरनु व्हेल्लो.

मागीर... आज अयकीलें. तागेलीं रीणांय सर्ली. हरीक खतखत आयले. सूणे सिकिल्यार कारारि चडोवनु ओकद हाडतात. इत्याक ? भांडि, सैंकळ, स्कूटर.. वालाव जांवचे फूडे व्हरनु चांग करतात. करेयतात. यंत्रा मोल सरी मनिष्याक ना ? मृगा पाशी वरीष्ट ताजी गति ! सीर लुंकल्यार सिरल्या गाति सरी ताका ना. हा ! कीडे सरी रंजून कितले मनीष मरतात ! विद्यी हातार तांका विन्दून हाथ फफूण आमी नुत्तो भोंवतात ! ...

' हरी, हरी ' कापी काणावे, निवली मू. ' अम्माली उतरां ताजे कानांत पळ्ळीं. ' एत्तां ' ताणे जाप दिल्ली. जल्यार मनिष्यानि मनिष्यार करचे अत्याचाराचे, अक्रमाचे, अपराधाचे प्रश्नाक जाप ताका मेळिळना. विशिष्ट मानवाली विचित्र गति ! तो उट्टायलो.



उबाळाच्या दिसांत सांजेच्या वेळार दिसयभर केल्ल्या कामाच्या शिणान आनी आंगांतल्यान व्हावंतल्या चिकचिकीत घामान बेजार येतकच हांव उठून वेळसवां वेळेर गेलो आनी लागसार आशिल्ल्या वडाचे सावळेक वचून बसलों. दर्यांतल्या शीतळ ताज्या वाऱ्यान सगळी हूम पुसून काडली आनी मोव रेवेंत ल्हव जाल्लें आंग सोडून हांव न्हिदलों.

केदो वेळ हांव न्हिदलों ताजी सारकी खबर ना. पुण हांव जागो जालो बोबो आनी हुयो आयकून. कावळे आनी घोणी, सवणी आनी पाखे, माडांची चट्टां आनी वडाची पाना सगळयांनी एकच किलकिलाट केलो. हावें उठून विचाल्लें, 'जाले किते ?' घोंटेराकडेन धांवत कावळयान म्हळे, 'सूर्यान जीव दिलो.'

सूर्यान जीव दिलो ! कोण सूर्या ? केन्ना आयलो. कित्याक जीव दिलो ? म्हाका कायच समजले ना. आनी ताजे दुःख ह्या झाडापेडांक आनी सवण्या सावदांक कित्याक ? हावें कावळयाकच परत उलो माल्लो आनी म्हळे, 'कोण सूर्या ? वळखता तूं ताका ? आनी ताणे कित्याक जीव दिलो ?'

# सूर्यान जीव दिलो !

— गोपीनाथ

आपल्या किरकिरीत ताळयात दुःखाची ओलसाण हाडीत कावळयान जाप दिली, 'सकाळी बरो आशिल्लो दनपरां तर उमेदीन हांसतालो सांजवेळ जातां जातां तोंड येदे करून कुशीक बशिल्लो आनी निक्तीच भर दर्यात उडी माल्ली.'

'आरे, कोणाय पोलिसेक बी आपयात तर ! खारवी बिरवी लागसार आसात जाल्यार पळयात व्हडी धाडात वेर काडूक सूर्याक.'

पुण म्हाका जाप दिना आसतनाच कावळो वचून आपल्या घोटेरांत बसलो. हांवे थारायलें. हांगाच बसून कितें जाता ते पळोवया. उलोवंक गेल्यार कोर्टांत फावटी मारच्यो पडटल्यो.

रेवेंत खारवी आपलीं जाळां विणटाले. ताणी काम थांबोवन रांपण व्हडचार चडयली आनी व्हडे धुकलून दर्यांत सोडलें. म्हाका दिसलें सूर्याक वाचोवंक तें वतात आसूये. काळोख दाटत आशिल्लो. म्हाका घरा वचपाची ताकीत आशिल्ली पुण सूर्याचे कितें ? ताग्गेल्या सोयऱ्यां–दायज्यांत खबर दिवंक जाय.

एकेक करून सोयरे धांवत आयले. पयलीं आयलो शुक्र आनी मागीर आयले हेर. ध्रूव एकाच जाग्यार रावन सगळयांचेर नियाळ दवरतालो. सगळे तारे आनी नक्षत्रां जमलीं आनी कळवळून वासपूस करूंक लागलीं– 'किते जाले सूर्याक ?'

इतले म्हणसर चंद्रीम पोलीस आयलो. ताणे वासपूस केली. कोणे कोणे ताका सांगले सूर्याक दर्यांत उडी घेता आसतना आमी आमच्या दोळयांनी पळेला. खूपच निर्शेल्लोसो दिसतालो. घडये आपल्या कर्तुपाचो पश्चाताप ताका जाल्लो आसू ये.

चंद्रिमान कपलाक मिरयो घाल्यो. आज पुनवेचे रातीकडेन चोरी जावपाची ना म्हणून आयची रात मनमेकळो थारायिल्लें. न्हय त्या दिसा ही आत्महत्या !

कित्याक केली सूर्यान आत्महत्या ? एकल्यान स ताणें झाडां पेडा करपयलीं, सवण्यांस वताक तापयलीं आयिल्ल्या भुरग्यांली कंवळी पावलां हुलपायली... देखू जावन ताणें जीव दिलो जातलो.

दीस भर वतांत बसून काम केल्ले दुसरे कांय बसून शीतकडी जेवताले, चंद्रिम तांचेसरीं गेलो आन 'सूर्यान जीव दितना तुमी पळेल्लो ?'

'ना बाबा. आमकां त्रास खूब दिले ताणे खरे ताका परतें उत्तर दिलें ना. आमी काम करीत रावले. मायत्यार जाल्यार तो ओग्गो कोनशाक बशिल्लो. मागीर पळेलोच ना.'

हे उलोवणें माडाचीं चुडटां आनी सुरून्यो तेंगशो त्यो मुमुरख्यो हांसल्यो. चंद्रिमाची नदर तांचेर पडली. फाटीक ताणें हात लायलो आनी विचाल्लें, 'तुमी पळेल

आंकवार चुडित लजेलें. ताणें प्रस्न आयकलोच आपणाक हात लायलो म्हणून आंग चोरून तें कुर्श पळोवन माड व्हडव्हडान हांसलो.

पुण सुरूचे तेंगशेन जाप दिली. 'चांदीमाम. तो प आसा सूर्य.'

मान बागोवन सकल पळे जाल्यार चंद्रिमाक पडलो.

'आरे सूर्या हें कितें केलें तुवें ?'

'हांवें खंय कितें केलां ?'

'आत्महत्या केली मरे ?'

'आत्महत्या ! आत्महत्या म्हळयार कितें ?'

'आत्महत्या म्हळयार आपुण जावन मरप.'

'आनी मरप म्हळयार कितें ?'

चंद्रिमाकय आतां हांसूंक आयलें. आपूण पोली शाळेंतलो मास्तर असो समज करून घेवन ताणे जाप म्हळयार मरण येवप.'

'मरण म्हळयार कितें?' सूर्यान विचाल्लें इतले म्ह लोक एकठाविल्लो ताणीं एकामेकाक विचाल्लें मर कितें ? जाप कोणाकच दिवक येना जातकच सगळे सं भियेले.

एक वाघोळें केदो वेळ थंय घिट्टयो घालतालें. तें दर्यात देंवले.

'वाघोळयानय जीव दिलो !'

पुण खिणभरयांत तें परत वयर उडलें. चंद्रिमाच्य गेलें आनी ताणें सांगलें, 'मरण हें मेलेबगर कळना.'

रातभर सगळयांनी जागरण केलें. साक्षी पुरावे घे पंचनामो केलो.

आनी फांत्या पारार दोंगरा फाटल्यान तकली सूर्य हांसलो.

हांव उठलो आनी घरा परतलों.

## ाटक

**स्मिता**

ाजेच्या हॉस्पीटलांतली स्पेशल कूड. कोनशाचे खाटीचेर ून सिगार ओडटा. नाकांतल्यान आनी तोंडांतल्यान लोट सोडटा आनी त्या धुंवरांचेर नदर थिरावन शिल्ल्या रुशीभशेन थीर रावता.

व्हंकलेन सव्यार येवचें तशा जड पावलांनी मारी तर सरता. दाराचो आवाज जाता. पुण मारीक दिशिल्लें ान तोंड फिरायलें ना. ताका पळेलें काय ना हें कळूंक ो. सिगार ओडीत रावलो आनी तनर लागिल्लेभशेन ा नदर तशीच उल्ली.

रीलीं पावलां आडखळ्ळीं. मिरामारचे रेवेंत तीनसांजच्या एकमेकांचे वेंगेंत बसून सारिल्ल्या दिसांचो ताका आयलो. मोगाच्यो गजाली, लग्नांचीं सपनां, आनी ें चित्रां रेवेंत बसून तार्णां रंगयिल्लीं. दर्या वेळेर र बांदचे आनी एकाद्रे व्हड ल्हार येवन तें घर होळून ीं विपरित घडिल्लें तांच्या सपनांचें... ताणें आपले ा भांगराच्या खुरसाक हात लावन मनांतल्या मनांत गडास केलो. विवेकान ताका सांगिल्लें कि लग्नाउप्रांत ळचांत तो मंगळसूत्र बांदतलो... पुण युगांडांतल्यान यलो आनी मागीर पोरन्या मोगाचे पास नकळटां तुटले. ाची आंकरी फुल्ली. रंग बदल्ले, ढंग बदल्ले, संवसाराकडेन ी नदर बदल्ली. उदेतलो दीस, सांवरी बोंडांतल्यान कापसावरी नाचत नाचत येतालो, रातीच्या काळखाक ो नदर फुट्टालो. मागीर एक दीस ताणें पीटराकडेन लें. आज तें दोन भुरग्यांची आवय जाल्लें...

वेक अजून तसोच बशिल्लो. मारीन पावल मुखार घालें. के तरेचो घुस्मटमार जातालो. ताणे उस्वास सोडून मन पाचो येत्न केलो तेन्ना ताका खांक आयली. विवेकान ायर उडयलें. पुण नदर वयर काडली ना. भायलेवटेन म्हऱ्यांत एक कावळो रडलो. मारीन दोन–चार पावलां न उबाल्लीं. आनी तें विवेकामुखार येवन उबें रावलें.

विवेक !

वेकान निर्विकार नदरेन मारीक पळेलें. चार दोळे एक री हांसलें. पुण विवेकाल्या तोंडावेलो भाव बदल्लो ना. ोळखी मनशाकडेन पळेल्लेवरी तो मारीक पळेत रावलो. ेन हांसलें.

त्या हाशांत कितल्योशोच यादी आशिल्ल्यो. पुण त्यो यादी आज विवेकाक आफडूंक लेगीत पावल्यो नात. ताज्या संवसारांत मारी नासलेंच. ताणें नवें सिगार पेटयलें.

आतां मात मारीले दोळे दुकांनी भरून आयले. हाताचे मुठींतलो माणकुलो लेंस काडून ताणें आपलें नाक पुसलें. तें तांबडें गुंज जालें. सगळयाचो विसर पडून विवेक आज भ्रमिश्ट जालां तो आपणाक लागूनच अशें ताका दिसलें...

धुंवराचे लोट. दोन जीव लागीं आशिल्ले. पुण तांचेमदीं धुंवराची वणत.

– कसो आसा तूं विवेक ?

जाप ना.

– तूं म्हाका वळखना ?

– ना.

– पळे, याद कर.

– ना. हांव तुका वळखना.

– खरें ?

– हय. खरेंच वळखना.

– हांव मारी.

– आं.

– येता याद ?

ना.

– आमी वांगडा भोंवतालीं.

– आसत. याद जायना.

– आमी एकामेकाचेर मोग करतालीं.

– मोग ? हांवें केन्ना कोणाचेर मोग केलोच ना. संवसारांत मोग म्हण्टात तो नाच.

– मिरामारचे वेळेर... तीनसांजच्या काळखांत... तूं म्हजो हात आपल्या ओंठाचेर भोंवडायतालो... आसा याद ?

– ही काणी तूं कित्याक घडयता ? काय तुका भ्रम जाला ?

– विवेक याद कर. हांव तुजें मारी. आमी लग्न करपाची आसलीं.

जाप ना.

– हांवें तुका फटयलो...

– कोणें ?

– हांवें !

– म्हाका फटोवपी मनीस अजून जल्मूंक ना.

– हांवें विस्वासघात केलो. तुजें जिवीत सोंपयलें. तुका पिशें लायलें.

– पिशाक पिपळ दाखोवपी हांव...

– हांव मारी.

– बाय मारी, तूं हांगा कित्याक आयलें ? तूं वाट चुकलां कांय दिसता. हांव तुका वळखना. नर्सीक आपोवं ?

– नर्सीक कित्याक ?

– तुका सायको स्पेशालिस्टा म्हऱ्यांत व्हरूंक !

– म्हाका कितें जालां तर ?

– उपकार कर आनी गेट आऊट.

मारीक हुडको फुटलो.

– बायलांच्या दुकांनी तळपां विर्गळत. पुण म्हजें काळीज त्यायपरस घट.

– हांव वतां. पुण एक खबर सांगतां.

– म्हाका आयकुपाची ना.

– तूं मिरामाराक सावन येतना तुका मोटारीचो धक्को लागून तुजो सितीद गेल्लो. तो अजून येवंक ना.

– आसत. पुण तूं वच.

– हें हॉस्पीटल.

– जाणां हांव. प्लीज गेट आऊट !

– तुका पार्जताचें फूल आवडटा.

– ना.

– तें हातांत काडल्यार बावता अशें तूं म्हाका पळोवन म्हण्टालो.

– तूं जागें आसा मगो ?

– विवेक, असो कितें रे तूं ?

– गेट आऊट !

आड्डून विवेकान मारीक धुकल्लें. मारीली किळच आयकून भायलेवटेन आशिल्लो दोतोर आनी नर्स भीतर आयलीं.

विवेक पर्थून वचून खाटीर बसलो.

दुकां पुशीत मारी भायर आयलें. ताज्या फाटल्यान नर्स.

विवेक उठलो. कुडीचें दार ताणें बंद केलें आनी परत येवन तो व्हडाव्हडान रडूंक लागलो.

'डॉक्टर !' ताणें म्हळें, 'मारीक हांगा कोणे हाडलें ? कित्याक ?... ताजेर नदर घालचो ना म्हुण हांवें सोपूत घेतला... ताका वळखना म्हणपाचें नाटक करूंक म्हाका कितले त्रास पडले जाणा तूं !'

खर्शेवन विवेक खाटेर न्हिदलो. दोतोर मात कपलावेली हूम पुशीत हांसत भायर आयलो.



# आपल्या दोन मुलांत तीन वर्षांचे अंतर ठेवा



निरोध तांबी गोळया




## कोणतीहि पद्धत स्वीकारा

davp 84/225